# ॲरेस्ट हिम

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नाईक



**Arrest Him**
A Konkani Play By:
Mahesh Chandrakant Naik

**उजवडापवी:**
महेश चंद्रकांत नाईक,
अक्षरब्रह्म प्रकाशन, गणेश मंदिरामुखार,
सांतीनेज, पणजी, गोंय. फोन: २४२६२०९

**पयली आवृत्ती:**
नोव्हेंबर २००३

A, MAH CP03

**अक्षरजुळवणी:**
कॉम्प्युटर ग्राफीक्स,
१८ जून रस्तो, माथायस प्लाझामुखार
पणजी – गोंय. फोन: २४५२१५६

**छापणावळ:**
श्री प्रिंटर्स
कार्मीभाट, मेरशी, गोंय.
फोन: २२३३२८२

WORLD KONKANI CENTRE
1158

1166
Dr. Dev
MAH

**मुखावयलें चित्र :**
कु. क्रांती च्यारी, पणजी – गोंय

**मोल :** ७५/– रुपया

**चत्राय:** या नाटकाचे सगले अधिकार लेखक महेश चंद्रकांत नाईक हांणी राखून दवरिल्ले आसात. नाटकाचो प्रयोग, अणकार, रुपांतर वा टेलीफिल्माखातीर, पटकथा करपाची आसल्यार लेखकाची लिखित मान्यताय घेवप गरजेचें. नाजाल्यार संबंधितांचेर कायदेशीर कारवाय जातली.

***लेखकाचो नामो:*** महेश चंद्रकांत नाईक, घर न. २९३, गणेश देवळामुखार, सांतीनेज, पणजी – गोंय. फोन:२४२६२०९

या नाटकाक माचयेर मूर्तस्वरूप दिवपी सगळ्या
कलाकारांक आनी तांका पालव दिवपी
तंत्रज्ञ आनी हेरांक हे नाटक ओंपता.

WORLD KONKANI LIBRARY

Accn No: 001166

## खाशेले उपकार

सातेरी कला मंडळ, कार्मीभाट, मेरशी हें संस्थेन म्हजें हें नाटक पुस्तक रुपान येवपाक खूब आदार दिला. ते खातीर संस्थेचे अध्यक्ष,किशोर नार्वेकार अध्यक्ष, सातेरी कला मंडळ, मेरशी - गोंय, आनी संस्थेचे सचिव चेतन कवळेकार हांचे खाशेले उपकार!

- प्रकाशक

# सामाजिक प्रश्न प्रभावीपणन मांडपी नाटक

महेश चंद्रकांत नाईक या उमेदी तरनाट्याचे तिसरे नाटक, कानाक सुखावपी, मनाक ARREST करपी. हांवे ते फकत वाचला पळोंवक ना. पूण एकदा हातान धरील्ले पुस्तक वाचप जातकूच सकल दवरला.

महेश चंद्रकात नाईक हांच्या सगळ्या नाटकांक इंग्लीश शिर्शकां आसात आनी तीं सगळीं शिर्शकां 'A' ह्या इंग्लीश अक्षरान सुरु जातात – देखीक ACTION; ALL FOR YOU; ARREST HIM; ACTUALLY .. I LOVE YOU; ACTING ACTING. माथाळीं जरी इंग्लीश आसली तरी ह्या नाटकांची भास कोंकणी आनी सुवात गोंय, गोंयचें भोंवतण, गोंयची मनशां, गोंयच्यो चाली–रीती आनी गोंयचो आत्मो.

नाटक बरयलें म्हण जायना तें सादर करूंक जाय. त्या खातीर नट, गावपी, वाद्यां वाजोवपी, पड्डे रंगोवपी, तोंडाक रंग लावपी आनी दिग्दर्शक हांचो पुराय आदार जाय पडटा. खुबशां नाटकाक आनीक अेका मनशाची गरज लागता. तो मनीस म्हळ्यार प्रॉम्टर!

एका इंग्लीश जाणकारान अशें म्हळां– "A play is literature that walks and talks" (नाटक म्हळ्यार चलता आनी उलयता असलें साहित्य.), महेश चंद्रकांत नाईक आपल्या 'दोन उतरांत' म्हणटा – "अेक गुंड म्हळ्यार राकेस न्हय. तो अेक मनीसूच, जाका मन आसता, भावना आसता, सोबीत संवसाराची सपनां आसतात. हे मनीस वायट मार्गान वचपाक जायतीं कारणां आसूं येतात, तीं कारणां सोदून तांकां त्या उज्यांतल्यान भायर काडपाचो यत्न जावंक जाय." अशें जरी ताणें म्हळें तरी ताकां खबर आसा की "Literature that walks and talks should not carry heavy loads." (चलता उलयता त्या साहित्याक आपल्या माथ्यार व्हडलो भार घेवंक फावना.) आपलें तत्वगिन्यान लोकांक सांगपा खातीर महेशान भाषणबाजी करूं येताली पूण तशें न करपाचो ताणें संयम पाळला. आपल्या शिक्षणाचो विषय तत्वगिन्यान

(Philosophy) आसूनूय ताणें हें पथ्य पाळ्ळां ही तोखणायेची गजाल.

'आलबॅर काम्यू' ह्या फ्रेंच नाटककाराचो नाटकाविशींचो हो एक विचार "नाटकाची सुरवात कीट कशी जावपाक जाय आनी ताचो शेवट एक भयांकृत जाळ कसो!" महेशाच्या नाटकाची सुरवात आनी शेवट तसोच जाता. सुर्याचें सुनिताक मेळप, ताचो मोग, सुर्याचीं फटींगपणा, लग्न, सुनिताचें गुरूवारपण ह्या रोमॅन्टीक प्रसंगांक समांतर अशे राजकी प्रसंग, खून, मारामारी, राजकी डावपेच, क्रूर कर्तुपां आनि तातूंतल्यान घडत आयल्लो अभेद्य असो चक्रव्यूह. आनी निमाणे खून – दोन जिविताचे गोबर. जिविताचें हें विदारक चित्र महेश हाणें साद्या, सोप्या कोंकणींत मांडला.

जशें फोट्वांत फोटोग्राफराची सावळी दिसूंक फावना ते परी नाटकांत दिग्दर्शक दिसूंक फावना. तो दर अेक नटाच्या अभिनयांत दिसूंक जाय. वायट दिग्दर्शक आसल्यार बऱ्या – बऱ्या नाटकांचो धुंवोर जाता आनीं नाटक सादारण आसले आनी दिग्दर्शक बरो आसल्यार लोकांचेर थोडोभोव प्रभाव पडूंक शकता. नाटक पूर्ण साहित्य न्हय, नाटक अेक कला! तांतूत चित्रकला, शिल्पकला, नृत्यकला, संगीत, अभिनय ह्या सगळ्यांचो थोड्या अदीक प्रमाणात वांटो आसता, नाटक म्हळ्यार संपूर्ण अर्थान जिवीत न्हय. तो जिविताचो आपरोस. जिवितात जशी पुनरावृत्ती जायना तेच भशेन एकदा केल्लें नाटक तशेंच दुसऱ्यांदा करूंक जायना. दिग्दर्शक नाटक माचयेर हाडचे आदीं, बरोवप्यान तें मनाच्या माचयेर खेळोवचें पडटा. भरपूर वेळ, कागद आनी लेखणी आसल्यार बरी कादंबरी बरोंव येता. तातूंत कागदाचे बंधन ना तशेंच पात्रांचेय बंधंन ना. नाटकांत मात तशें न्हय. तातूंतलीं पात्रां , प्रसंग, कोणें कितलें उलोवचें, कशें उलोवचें, केन्ना उलवचे. कायच काम नासल्यार लेगीत माचयेर खंय रावचें कशें रावचें, अेका प्रसंगा उपरांत दुसरो खंयचों प्रसंग येवचो, उलयतना हाव–भाव केन्ना करचे, आवाज कितलो वयर व्हरचो, कितलो सकयल देंववचो ह्या सगळ्या गजालींचेर पुराय लक्ष दवरचें पडटा. खंयच्याय साहित्य प्रकारापरस

नाटक हो प्रकार चड कठीण, अेक नामनेचो फ्रेंच नाटक्कार JEAN RACINE अशें म्हणटालो, "JAI MA PIACE TOUTE FAITE JE N'AI QU'A L'ECRIRE" (म्हजें नाटक सगळे तयार आसा हांवे ते फकत बरोवपाचे आसा.)

काव्य, कथा कादंबरी हे साहित्य प्रकार सगळ्या लोकांक आवडत आसत, नासत. दर अेकलो आपल्या आवडी प्रमाण, बुद्धी प्रमाण, पिराये प्रमाण पुस्तक वाचता. कांय जाण जाय तितले वाचता नाजल्यार भायर उडयता. नाटकाचे तशें न्हय. नाटक तुजेकडेन येना. तू नाटकाकडेन वता. नाटक वाचलें म्हणून नाटक सोंपना. नाटक वाचून जें मनाच्या दोळ्यांमुखार दिसता तें नाटक. आमी माचयेर पळयतात, प्रत्यक्ष पळयता तेन्नाच कल्पनेक सत्याचें रूप येता.

दर अेका साहित्य प्रकाराचो अेक वेगळो वाचक वर्ग आसता. नाटकाचो प्रेक्षक म्हळ्यार सगलो समाज. दादल्यांक – बायलांक, भुरग्यांक – जाणट्यांक, शिकिल्ल्या – ना शिकिल्ल्यांक सगळ्यांक नाटक समजता. अेकाच वेळार सगळ्या समाजाक घट वेंग मारपी हें नाटक मन रिझयता, हांसयता, रडयता तशें अस्वस्थ करता.

नाटक म्हळ्यार जिवीताची जिती जिवी शीर. नाटक म्हळ्यार नाटकातले संवाद. खंयचीय कथा घेंवची आनी तीचे रुपांतर संवादात करचें, जाले नाटक तयार. पूण नाटकांत सवांदामदीं जो विसव आसता तोय म्हत्वाचो. भास अंलकारीत साहित्यिक आसल्यार नाटक बरें जाता अशें ना. नाटकातलीं भास चड करुन उलोवपाची भास आसूंक जाय. नेणार प्रेक्षकांक लेगीत ती समजूंक जाय. महेश वापरता ती भास सर्वसादारण कोंकणी मनशाच्या तोंडातली आनी संवादातली ताची वाक्या सादी सोपी सुटसुटीत अशीं. नाटकांतली भास नाटककराची भास आसूंक फावना. पात्राप्रमाण ती बदलूंक जाय. ह्या नाटकांत सूर्याची भास वेगळी, सुनीताची वेगळी,करीमाची वेगळी. प्रसंगानुसार लेगीत ताची भास बदलता. केन्ना केन्ना ताची उतरा सवकास चलता, केन्ना केन्ना धांवता. नाटकांतलो

अेक देखावो बरो आसले म्हण जायना. सगळ्या देखाव्यांचो, संवादाचो निमाणो अेकूच अेक प्रभाव प्रेक्षकांच्या मनार पडूंक जाय. ‘अॅरेस्ट हिम’ ह्या नाटकांत तो तसो पडटा अशें माका दिसता.

महेश म्हणटा: “ह्या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगा उपरांत लोकांनी लेखक म्हूण म्हाका एकूच प्रस्न विचारलो, तो म्हळ्यार, “हें नाटक सत्य घटणेचेर आसा काय ना ?” ह्या प्रस्नाक महेशान एकूच जाप दिली, “ह्या नाटकांतल्यो सगळ्यो घडणुको, वेळ, जागो, पात्रां काल्पानिक आसात, तांचो खंयच्यात मनशाकडे संबंध येना आनी जर हें कोणाकूय जुळटा जाल्यार तो योगायोगूच म्हणचो पडटलो.”

महेशांचे जापेक तेंको दिवपाक हांव अशें म्हणटा; “नाटकातलें सत्य हें वास्तवांतलें सत्य न्हय. पूण घडूं येता अशें सत्य!” एक जाणकार म्हणटा, "In history everything is false except dates and events, in fiction everything is true except dates and events."

. ‘अॅरेस्ट हिम’ ह्या नाटकांत महेश चंद्रकात नाईक प्रेक्षकांची मनां रिझयता, तांका केन्ना हांसयता. पूण तांची मनां अस्वस्थ करता. समाजीक प्रस्न सोडवप हो नाटककाराचो धर्म न्हय. पूण ते प्रस्न प्रभावी तरेन मांडून तांचीं काळजां हालोवन तांकां विचार करूंक लावप हें तांचें एक काम. महेश हांणें आपल्या नाटकांत हें काम प्रभावीपणान करून दाखयलां. आपल्या बरोवपांतल्यान आनी दिग्दर्शनातल्यान ताणीं जिविताचे जें दिग्दर्शन केला तें तोखणाय करपा सारकें! ताका ताच्या फुडल्या वावरतात सुयश आंवडेता.

पणजी, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

२५/०५/२००३



# दोन उतरां....

अजून दोळ्यांमुखार आसा तो दीस, ज्या दिसा चार जाण एकट्याकडेन रक्ताची होळी खेळ्ळे. सरभोवतणी इतली गर्दी जमून लेगीत अेकट्याक लेगीत तांकां जाप विचारुशी दिसली ना, जांव कोण तांका आडावंक गेलो ना. हाचे कारण मारणारे फामात गुंड आशिल्ले... त्यावेळार एकूच प्रस्न उबो रावलो. कायदो कोणाखातीर?

भुरगेपणान म्हाका दिसतालें, मनशाक मारपाचो अधिकार फकत ताच्या आवय बापायक आसता म्हूण... पूण म्हजें हें दिसप त्या दिसा चुकीचें थारलें. एका मनशाक गुंड नावाचो राकेस मांरुक शकता. ताचें रगत काडूंक शकता, ताका जित्तो मारुक शकता आनी हें सगळें किद्याखातीर? कोणाखातीर? हाच्यो जापो सोदल्यार मेळच्यो नात आनीं मेळल्योय जाल्यार त्यो उक्त्यो करपासारख्यो नासतल्यो.

आजय गुंड हो शब्द कोणाक अनवळखी ना. आयज गुंड या नावाची सगळ्यांच्या दोळ्यामुखार एकूच इमेज तयार जाल्या. गुंड म्हळ्यार एक राकेस. जाका फकत वायट कामां करुंक आवडटा, दुसऱ्यांचो जीव घेवप म्हळ्यार ताका झाडाचें पान तोडिल्याभशेन. ह्या राकेसाक मन, दया, माया काय नासता. ताचे हात दुसऱ्यांक सतावपाक, पाय दुसऱ्यांक मस्तुवपाक आशेल्ले आसतात. अशा या गुंड नावाच्या राकेसाक सामान्य मनीस भिवचो ना जाल्यार किदें? पूण खऱ्यानीच गुंड नावाचो राकेस इतको वायट आसता? आसता जाल्यार तो किद्याक? कोणाखातीर?

ह्या प्रस्नाच्यो जापो हांवें स्वत: सोदून काडपाचो यत्न केलो आनी जाप सापडली ती अशी– एक गुंड म्हळ्यार राकेस न्हय. तो एक मनीसूच, जाका मन आसता, भावना आसता, ताच्याय मनात सोबीत संवसाराची सपनां आसता. हे मनीस वायट मार्गान वचपाक जायतीं कारणां आसूं येतात. तीं कारणां सोदून काडून तांकां त्या उज्यातल्यान भायर काडपाचो यत्न जावंक जाय.

ह्या जगान सुख आसा थंय दु:खूय आसा. खोशी आसा थंय रडपूय आसा. पूण मनशान दु:खान लेगीत जगपाक शिकूंक जाय. दु:खान सुख सोदपाचो यत्न करुंक जाय. जो मनीस हें करुंक शकलो तोच खरो मनीस. दु:खाचे वजें घेवन चिखलान पाय दवरपी मनीस कसलो? आनी चिखलान बुडणाऱ्याक भायर काडचे साणून ताका मस्तीतल्याक

किदें म्हणुया? गुलाब तोडून काटे सजवचे न्हय. काटे तोडून गुलाब सजवचो!

त्या दिसाचे घटने उपरांत म्हज्या जिवितान हांवेन गुंड नावाचे काय मनीस पळयले. काय जाण हे वटेन धावून थकल्या, काय जाणांक पश्चताप जाला आनी काय जाण फाटले सगळें विसरुन लग्न जावन संसार थाटपाक लागल्यात. अशा मनशाकडे माकां उलोवपाची, तांकां समजून घेवपाची संद मेळ्ळी आनी तेन्ना म्हाका दिसले, खऱ्यानीच मनीस जन्माताच वायट नासता. परिस्थिती ताका वायट घडयता. प्रत्येकाच्या ओठार हांवेन एकूच वाक्य परत परत आयकले, 'नवे पिळगेन देशाची उदरगत कशी जातली हाचो विचार करचो! आमचे भशेन वायट मार्गान वचून स्वतःचो आनी देशाचो फुडार व्हगडावचो न्हय!' तांच्या काळजातल्यान आयिल्ले हे शब्द नवे पिळगेच्या काळजान रुजचे हें तांचे आनी म्हजेंय मागणें.

या नाटकाच्या पयल्या प्रयोगा उपरांत लोकांनी लेखक म्हूण म्हाका एकूच प्रस्न विचारलो तो म्हळ्यार, 'हें नाटक सत्य घटनेचेर आसा काय ना?', तांकां म्हजी एकूच जाप. या नाटकांतल्यो सगल्यो घडणूको, वेळ, जागो, पात्रां काल्पनिक आसात. तांचो खंयच्याच मनशाकडेन संबंध ना आनी जर हें कोणाकय जुळता जाल्यार तो योगायोगूच म्हणचो पडटलो.

'ॲरेस्ट हीम' या नाटकाक यश हाडून दिवपांत सातेरी कला मंडळ, कार्मीभाट, मेरशी ह्या संस्थेचो, कलाकारांचो, तसोच तंत्रज्ञांचो मोलादीक वांटो आसा. हो विशय गांवागांवानी पावचो अशी म्हजी इत्सा आशिल्ली. सातेरी कला मंडळान सर्तीक तशेंच गांवागांवानी या नाटकाचे प्रयोग सादर करुन हो विशय लोकांम्हऱ्यान पावोवपाचो यत्न केला तेखातीर हांव त्या सगळ्या कलाकारांचें बरें मागतां. तशेंच 'ॲरेस्ट हीम' हें नाटक पुस्तक रुपान हाडपाक योगदान दिल्ल्येखातीर सातेरी कला मंडळाच्या समितीचो हांव भौव उपकारी आसा.

**महेश चंद्रकांत नाईक**

# ॲरेस्ट हीम

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग पणजे कला अकादमीच्या दीनानाथ मंगेशकार नाट्यगृहांत सातेरी कला मंडळ कार्मीभाट– मेरशीच्या कलाकारांनी १४ ऑक्टोबर २००२ ह्या दिसा सादर केलो. ह्या प्रयोगात वांटो घेवपी कलाकरांची नामावळ:

## पयल्या प्रयोगाचे मानकारी

**दिग्दर्शक** : महेश चंद्रकांत नाईक

**निर्मिती मुखेल** : किशोर नार्वेकार

**नेपथ्य** : अशोक नाईक, गिरीश उस्कैकार

**आवाजा येवजण** : प्रितेश पेडणेकार

**उजवाडा येवजण** : विकास चोपडेकार

**वेशभुशा** : विनायक उस्कैकार, सांबास्तीयान बार्रेटो

**रंगभुशा** : समीर शेटकार, शिरीष उस्कैकार

**निवेदन** : विनोद नार्वेकार

**पालव** : शिवनाथ नाईक, विजेश नार्वेकार

## कलाकार

**नाना** – गोविंद नाईक

**सुर्या** – चेतन नाईक

**जज** – गुरुदास गोवेकार

**इन्स्पेक्टर** – महादेव शिरगांवकार

**सुनिता** – कु. अनिता सावंत

**मन्या** – सदानंद खांडोळकार

**बाबल्या** – रणजीत शेटये

**सत्यवान** – सचिन सुतार

**हवालदार** – अजय गोवेकार, पांडुरंग नारोजी

**कोरस** – कुशल अडकोणकार, शिरीष उस्कैकार, धनंजय उस्कैकार, मनोहर उस्कैकार, शुभलक्ष्मी शेटये, कल्पेश नार्वेकार, गजानन मुतकेकार, सत्यवान पार्सेकार, नितीन उस्कैकार

**करीम** – प्रल्हाद नाईक

## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्ले कोंकणी नाट्य साहित्य

❖ उजवाडाक आयिल्ली नाटकां:

✦ *ॲक्शन*

✦ *ऑल फॉर यू*

✦ *ॲरेस्ट हिम*

❖ उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां

✦ *ॲक्टींग अक्टींग*

✦ *ॲक्चुयली... आय लव्ह यू*

❖ एकांकि

✦ *ऑपरेशन डबल ए*

❖ नाटकुलीं:

✦ *आमी अशें म्हणून तशें*

✦ *आयच्यान आळशीपणा नाका*

॥ श्री गणेश: ॥

# आंक पयलो

(पडूडो उगडटा. देखाव पयलो. मारामारीचो आवाज. तीन गुंड – सुर्या, मन्या, करीम. एका मनशाक मारुन वडयता. तिघुय ताच्या फाटल्यान रावता. तांचो मुखेल सुर्या पिस्तुल भायर काडून ताजेर गुळयो घालता, व्यक्ती मरता. ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखाव पयलो – मंत्र्यांचो बंगलो

(सुर्या, करीम, मन्या मंत्र्यांची वाट पळयत उबे आसात. राज्याचो मुखेलमंत्री नाना मोबायलार उलयत भितर येता.)

**नाना** – No, No, No, हे पळय तुवेन जे किदें आयकला ती एक अफवा अशीं समज तू. आमचें सरकार वडवप सोपें काम न्हय. विरोधकांक आमचें सरकार म्हणजे किदें ट्रेड सेंटर दिसला? आरे बाबा, विरोधकांक जाय तितके एकमेकांक मेळवन घेवनी. करुनी हॉटेलानी मिटींगो, वाटूनी जाय तितको पैसो पूण म्हजें सरकार घट्ट आसा. तें पडप पैस पूण हालचोलेगीत ना. नाना म्हणटां माका नाना. पाच वर्सा पूराय करतोलोच. इलेक्शनाक पैसो ओतला तो भरुन घेवपाक नाका? (हासता) हय, हय, यु डोन्ट वरी. मागीर मेळुया. ओके, बाय.(मोबायल बंद करता.)

**सुर्या** – नमस्कार नाना. (हात जोडता)

**नाना** – सुर्या, बाबा हें किदें रे. म्हाका हें तुजें आवडना. आरे बाबा केदो व्हडलो गुंड तू. हांव ह्या राज्याचो मुखेलमंत्री आसुनूय म्हाका वळखनात तितको लोक तुका वळखता. तुजें नावूच आयकल्यार लोक भियेता. आनी तू म्हज्यासारकिल्ल्या म्हऱ्यान हात जोडटा? पळोवपाक बरें दिसना. हांव किदें देव रे सुर्या?

**सुर्या** – नाना, हांव केदोय व्हडलो गुंड आसलो तरी पुण आमची दोरी तुमच्याच हातान आसा. आमीं पापां करप आनी तुमीं ती पदरान घेवप. म्हणटकूच तुमी आमचे देव जालें न्हय?

**नाना** – तुमचीं पापां पदरांत घेवपाक माका पदर आसा रे बाबा? म्हजेंकडे आसा फक्त अेक खुर्ची आनी ती लेगीत तुमच्याच आशिर्वादान मेळळ्या. किदें

म्हणटा मन्या. खरें मरें?

**मन्या** – नाना. इलेक्शन जिकपाक दोन गजाली लागतात. ताकत आनी बुद्ध! आमचे ताकतीन आमीं विरोधकांक घट्ट धरले आनी तुमचे तकलेन तुमी खुर्ची घट्ट धरली. (सगळे हासता.)

**नाना** – बरें, आता कामाचें उलोवया.

**करीम** – काम का क्या है नाना साहब. जो काम आपने बताया था वो पूरा हुआ। आपके खिलाफ आवाज उठानेवालेका हमने हमेशा के लिए मुँह बंद कर दिया।

**नाना** – किदें? म्हणजे मनोहराक जित्तो मारलो तुमीं?

**सुर्या** – हय नाना. आता तुमच्या कसल्याच कामाक आडखळ येवची ना.

**नाना** – व्हेरी गुड, व्हेरी गुड, हे अेक काम बरें जालें. बाबा मनोहर, आता वयर बस आनी कर म्हज्या आड पुरावे तयार. आता माका कसलोच भय ना. अेक काटो गेलो.

**सुर्या** – नाना, तुमी फकत काटो दाखयात. गुलाबाभोवती जितके काटे आसात तितके काडून उडोवपाचे काम आमचें.

**नाना** – सुर्या, बाबा तू गेल्या जन्मान म्हजो भाव आसलो रे? खरेंच, तू आसा म्हणून तर आयज हांव आनी म्हजी खुर्ची आसा. जशे रामाक लक्ष्मणाशिवाय जाय नसले तशेंच माका तुज्याबगर जायना. जेन्ना राजनितीन संकटा येता तेन्ना म्हाका तूच दोळ्यामुखार दिसता. तुज्याबगर म्हजे खयंचेच काम पूर्ण जायना. फाल्यां जर तू म्हाका सोडून गेलो जाल्यार म्हजे किदें जातलें काय?

**सुर्या** – नाना तशें कायच चिंतू नाका. हांव तुमका सोडून खंय म्हणोन वतलो. म्हज्या वायट वेळार तुमी माका आदार दिलो आता तुमच्या प्रत्येक दु:खान साथ दिवप हें कर्तव्य म्हजें. तुमचो साथ हांव केन्नाच सोडचो ना, नाना. या सूर्याचीं किरणां सदांच तुमचेर आसतली.

**नाना** – हाचे फुडे आनी हांव किदें उलोवं? तुज्या त्या उतरांनी म्हजे मन भरुन गेलें.

**मन्या** – नाना, मनोहराच्या बॉडीचे मात्से पळयात...

**नाना** – हांव आसताना भिवूं नाका रे बाबा. (मोबायल लायता) हॅलो, पुलीस स्टेशन? कोण? इन्सपेक्टर डिकॉस्ता? हावं उलयता रे बाबा. नाना! हें पळय

डिकॉस्ता राती पणजे एक मर्डर जाला. हय, हय, राती खंय! एक मिनीट हां. (सुर्याक खुणांनी विचारता.)

**सुर्या** – मांडवी पुलाच्या दाव्यान. झाडांनी.

**नाना** – मांडवी पुलाच्या दाव्यान, झाडांनी. तुमका खबर मेळटलीच. आनी बॉडीसुद्धा. कोणाचो फोन आयल्याबगर वचूं नाकात. मातशी तकली वापरात. ना जाल्यार हांवे सांगला म्हणोन थंय धावश्यात. आनी हें पळय, त्या खुनाचेर चड विचार करुं नाकात. सुरवातीक पत्रकारांक दाखोवपाक खोट्यो फॉर्मलीटीज करात. पुरावे मेळ्ळ्यार लेगीत दुर्लक्ष करात आणि कांय दिसांनी रोकडीच फायल बंद करात.ओके.(मोबायल बंद करता.) चला, तुमचें काम जालें.

**सुर्या** – नाना, आजमेरेन तुमच्याखातीरुच आम्ही पुलीसांच्या नदरेसून पयस उरले. इतक्यो भानगडी केल्यो. पूण केन्ना जेलीन दिस काडपाची पाळी येवंक ना.

**नाना** – अरे बाबा, पुलीस आसा म्हज्या बॉलसान. जशे म्हज्या बोलसान पेन तशेंच पुलीस. म्हज्यान जाय तेन्ना तेंचो कसोय वापर करुं येता. म्हज्या बॉटाच्या हालचालीचेर पुलीस डिपार्टमेंट आनी सरकार चलता. मागीर हांव आसताना तुमका पुलीसांचो भंय किद्याक? पुलीसांची नदर खयंची सावली लेगीत तुमचेर पडची ना. आनी तुमची चडशीं कामां म्हजेखातीरुच तर आसता. (घड्याळ पळयता) आरे माका वेळ जालो.

**सुर्या** – नाना बरें तर आमीय वयता.

**नाना** – रावात रे. अशेंच कशें वता. खायात, पियात आनी मागीर सुशेगाद वचात. हांव मात रावोंक शकना आदीच उशीर जाला. तुमीं बसात सुशेगाद. गणप्या ऽ ऽ हांकां पळय कितें जाय नाका तें! हांव वता बाबा.(नाना वता. गाडयेचो आवाज.)

**करीम** – सुर्या, मैं अंदरसे बोतल लेके आता हूँ। इस बार कुछ नया पीयेंगे।(भितर वयता)

**मन्या** – सुर्या, नानाचे हें काम जालें. अेक फायल सोंपली. आता फाल्यां मनोहराचो पेपरार फोटो येवपाचो उरला. (हासता)

**सुर्या** – आनी फोटोच्या वयर व्हडल्या अक्षरांनी आसतले. मांडवी पुलाकुशीक एकल्याचो खून. (हासता.)

**मन्या** – सुर्या अजून एक फायल अर्धवट उरल्या.त्या फायलीचे ॲडव्हांसूय घेतला आमीं, याद आसा?

**सुर्या** – याद आसा. तालीगांवच्या कुमाराक मोडपाची फायल.हांव येतना वाटेर ताचोच विचार करी. आयजूच पूर्ण करुंक जाय ती फायल.(मोबायल वाजता.) हॅलो., आ हय. खबर आसा. तेच उलयताले आमीं. जातलें. हें पळय. एकदा हांवें फायल घेतली काय ती पूर्ण केन्ना आणि कशी करप हें चितपाचे काम म्हजें. त्याबाबतीन तुका चितपाची गरज ना. काम जालें काय कळयता तुका. तू फक्त उरलेली बंडला तयार दवर. (मोबायल बंद करता. करीम येता.)

**करीम** – सुर्या, मन्या... चलो नानाकी विलायती शराब पियेंगे।

**मन्या** – इंर्पोटेट? वा! (सगळे ग्लास घेता. चियर्स करता. इतक्यान बाबल्या येता. गावातलो सादो भुरगो. हातान एक पोती.)

**बाबल्या** – दादा ऽ ऽ

**करीम** – कौन है बे?

**बाबल्या** – मी बे नाय. माजा नाव बळचंद्र पेडणेकर. माजी आवस माका लाडान बाबल्या म्हणता. माजो गांव पेडणे. मी पेडण्यासून इलंय.

**मन्या** – आता हडेन किद्या इलय?

**बाबल्या** – मिनिस्टर नाय घरात?

**मन्या** – किद्याक? किदें आसा काम मिनीस्टराकडे.

**बाबल्या** – माका काम व्हया होता.

**मन्या** – या बंगल्यान एक नोकर जाय.

**बाबल्या** – ऐ ऽऽ माका घरचा काम नको. मी या शहरांत ऑफीसान काम करुंक इलय. माका ऑफीसांत नोकरी व्हयी.(सगळे हासतात.)

**सुर्या** – ऑफीसान नोकरी मेळप इतकें सोपें आसलें जाल्यार आमच्या असले मनीस या जगान आसचेच नासले.

**बाबल्या** – दादा राग धरुं नाका हां. तुमी काय बोलता ता माका समजांग ना.

**सुर्या** – आदी माका एक सांग.तू कितली शिकला?

**बाबल्या** – मी बी. ए. आसय.

**सुर्या** – बी. ए. ? मन्या बी. ए. म्हणजे कितली?

**मन्या** – मॅट्रीक रे... मॅट्रीकचे शॉर्टकट बी. ए.

**बाबल्या** – ये दादा बी. ए. म्हणजे मॅट्रीक नाय. तिका डीग्री म्हणटत. दादानू मेळटली न्हूं माका नोकरी.

**सुर्या** – बाबल्या हें शहर. हांगा सगळे मेळटा. फकत मेळना ती नोकरी. तू आयला तसो परत चल. नोकरीची आस हांगा धरुं नाका.

**बाबल्या** – ये दादा असा म्हणा नको रे. माका पैशाची लई गरज आसा. माजी धाकटी भयण लग्नाची जाल्या. तिचा लगीन करुंक व्हया. दादानू खरा सांगू? माजी भयण लई सुंदर आणि गुणाची आसा. पण माज्या भयणीक बघुक येणारे. तिचो हाताच मागत नाय तर हुंडो पण मागतत. आमी ठरलो गरीब. आमीं खयच्यान हाडूचो हुंडो. म्हणान मग मीच ठरयला. शहरात जावन भरपूर पैसे कमयचे आणि भयणीचा लगीन करुंचा. गावाकडसून येतना मी आवशीक वचन दिलंय की शहरातून या पोत्यात पैसे भरुन आणून देतय म्हणान.(सगळे हासता.)

**सुर्या** – तुका शहरान ऑफीसान काम मेळप इतके सोपे दिसले? आनी काम मेळ्ळेय जाल्यार त्या पगारान तुजी पोती भरता म्हणसर तुजी भयण म्हातारी जातली.

**बाबल्या** – मग दादानू मी काय करु?

**सुर्या** – तुका सांगला तेच. आयला तसोच परत चल.

**बाबल्या** – माका आणखी काय बी सांगा, पण परतून जावंक सांगा नकोत. रिकामा पोता घेवन मी परत घरा जावचंय ना.

**सुर्या** – मागीर तू अशें कर. आमच्या वांगडा काम कर.

**करीम** – सुर्या?

**बाबल्या** – तुमी कसला काम करतात?

**सुर्या** – ते सांगून फायदो ना. आमच्या वांगडा राव आणि पळय.

**बाबल्या** – दादा, तुमच्या नोकरीन पगार कितलो आसा.

**सुर्या** – भरपूर, कायच फीक्स ना. आयज धा हजार जाल्यार फाल्या वीस हजार.

**बाबल्या** – आयज धा तर उद्या वीस हजार....? म्हनजे माजा पोता रोकडाच भरतला.

दादानू मी तयार आसय, तुमच्याबरोबर काम करुंक

**सुर्या** – पळय मागीर भिवोप ना.

**बाबल्या** – छे! छे! नोकरी करुंक भय कसलो? गावान आवशे बरोबर मिया एक दोनदा ल्हान मोठा काम केलंय. पूण दादानू तुमचा ऑफीस खडेन?

**सुर्या** – दाखयता. सगळे दाखयता. इतकी घाई करु नाका. पयली आमची ओळख तरी करुन घे. हो करीम आणि हो मन्या. आमी तिघूय वांगडा काम करता.

**मन्या** – बाबल्या. हो सुर्या, आमचो बॉस.

**बाबल्या** – बॉस? हां म्हणजे सर. हॅलो सर. बरा जाला तुमी मेळले ते. आता मिनिस्टर नाय भेटलो तरी हरकत नाय. माका गावान सकयल्या मधूकाकान सांगलला. शहरात नोकरी व्हयी तर मिनिस्टराचो वशिलो लागता म्हणान. म्हणान मी हडे इलय. पण आता तुमच्याकडे नोकरी मेळली. आता कोणाचीच गरज नाय माका. दादानू चला ऑफीसात जावया.

**करीम** – सुर्या, ये तो सच्ची तैयार हो गया!

**बाबल्या** – करीम दादा, तुमका कोंकणी येनय ना?

**करीम** – चूप! सुर्या इतने जल्दी ऐसा फैसला....

**सुर्या** – जेन्ना तेका आमचे काम कसलें तें कळटलें तेन्ना तो स्वताहून आमकां सोडून वयतलो.

**बाबल्या** – दादानू एक विचारु? तुमीं या काय पितात?

**मन्या** – सोरो.

**बाबल्या** – काय दारु? दादानू तुमीं ही दारु किद्याक पितात. माज्या आवशीक दारु पितत ते आवडत नाय. म्हाजो बापूस खूप दारु पित होतो म्हणूनच वयर गेलो.

**मन्या** – वयर?

**बाबल्या** – वयर म्हणजे माळ्यावयर नाय. वारलो बिचारो.

**सुर्या** – करीम ग्लास सोपय. वचूंक जाय आमकां.

**करीम** – समज गया सुर्या.

**सुर्या** – या मरे बाबल्या?

**बाबल्या** – खडे ऑफीसात? (सगळे हासता.)

**सुर्या** – हय ऑफीसात, गणप्या ऽ ऽ वयता आमी. हे ग्लास भितर व्हर.

**बाबल्या** – मिनिस्टर आसा घरात?

**करीम** – साले. गणप्या इस बंगलेका नौकर है। अभी चूपचाप चल। बडबड करने का नहीं।

**सुर्या** – करीम, मन्या आमीं आता ज्या फायली खातीर वयता. त्या फायलीचो टार्गेट आसा कुमार. पूण त्याखातीर आमका ताळगाव शंकराच्या देवळान वयचे पडटले. या टायमार तो देवळानूच मेळोंक शकता. पूण एक लक्षान दवरात. घोडो भायर काडप ना. ही फायल तितकी व्हडली ना. फकत ताचीं हाडां धील करपाची.

**करीम** – चलो सुर्या, देर नहीं करनेका, नहीं तो साला हातसे निकल जायेगा। चल बे.(बाबल्याक)

**बाबल्या** – बे नाय. माजा नाव बाबल्या. (सगळे वता. ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखावो दुसरो – देऊळ

(देवळाचीं सोपणां दिश्टी पडटा, सायडीक दीपस्तंभ. एक फुलकार आनी भिकारी देवळाकुशीक बसता. लोक येता वता. मधीं – मधीं घांटाचो आवाज. चौघूय येता.)

**बाबल्या** – दादानू माका भूक लागली

**करीम** – चूप. सुर्या यहीच है ना वो मंदिर?

**सुर्या** – हय, हेच!

**बाबल्या** – मन्या दादा आमीं देवळाकडे किद्याक इलूं?

**मन्या** – तुजो आमच्या वांगडा आयज पयलो दीस न्हय. म्हणून देवाकडे मागपाक. तुका सगळे सहन करपाची शक्ती दी म्हणोन.

**बाबल्या** – दादानू, तुमी कितकी चांगली माणसं आसात. माजी किती काळजी घेतात. मी गावान गेलय काय तुमकाय नेतय. आणि माज्या आवशीची वळख करुन देतय. माजी आवस तुमका मेळान खूप खुश होतली.

**मन्या** – बाबल्या, इतक्या बेगीन आमच्याविशी कायच बरेपण उलोवं नाका. आजून आमच्या विशीं खूप किदें कळपाचें आसा तुका. जेन्ना तुका आमीं कोण

आणि किदें हें कळटलें तेन्ना तू आमची आणि तुज्या आवशीची वळख खंयची? आमका गावानलेगीत घेवचो ना.

**बाबल्या** – काय तरीच काय मन्यादादा? तुमी माका तुमच्या ऑफीसात काम दिल्यात. आणि मी तुमका माज्या गावान घेवचय ना? तुमीं माझ्यासाठी देव माणूस आसात.

**करीम** – अबे पान की दुकान, हम भगवान है या राक्षस ये तेरेको जल्दीही पता चलेगा। तब तक तेरा ये मुँह बंद रख। साला कबसे देख रहा हूँ, बकबक कर रहा है। सुर्या, ये कुमार साला अभीतक मंदिरमें क्या कर रहा है? साला आज आया तो है ना?

**सुर्या** – सकयल गाडी आसा म्हणजे आयलाच आसतलो. पूण दळदिरो आजून भायर किद्याक येयना तेच कळना!

**करीम** – साला लगता है भगवानसे बहुत कुछ माँग रहा है। माँगने दे साले को आजके बाद मंदिरमें आनेके काबिल भी तो नहीं रहेगा।

**बाबल्या** – दादानू आमी आजून भायरच किद्याक उभे आसत. चला देवाक पाया पडान येवया.

**करीम** – चूप बे. तुम्हे बोला था ना मुँह बंद रखने को।

**बाबल्या** – नाय... पन... देवाक पाया...

**मन्या** – घोई किद्याक? तुजो आयज पयलो दीस म्हणोन आमका गाऱ्हाणे घालपाक जाय. गर्दी आसली काय तो भट सारके गाऱ्हाणे घालीना. गर्दी कमी जावनी, मागीर या.

**बाबल्या** – तसा जाल्यार बरा आसा. रावया थोडो वेळ. पण दादानू उभे रवान माजे पाय वळले. मी वायज तडेन बसतय.(बाबल्या बसता.)

**करीम** – गावठी साला. देख कैसे बैठा है। (एक भक्त बाबल्याक पैसे घालता.)

**बाबल्या** – ऐ दादा, मी भिकारी नाय. देवळान गर्दी आसा आणि माजे पाय वळले म्हणान मी हडेन बसलंय. हे घे तुमचे पैसे. (तिघूय हासता. बाबल्या सकयल मान घालता.)

**सुर्या** – मन्या खूप वेळ जालो रावल्यार. चड वेळ हांगा रावप बरे न्हय. तो कुमार भितर इतलो वेळ किदें करता तेच कळना. मन्या, करीम, हांव देवळान नदर

मारुन येता. आनी अेक लक्षान दवरात. ताका देवळाभायर मारपाचें देवळान न्हय. पळवन येता हांव. (सुर्या नदर मारीत फुडे वता.)

**बाबल्या** – सुर्या दादा, गर्दी कमी जाली? (सुर्याची नदर करीमाचेर)

**करीम** – साले चूप बैठ. सुर्या को आवाज मत दे।(सुर्या पायरी चडताना सुनीताक आदळता. सुनीताची पर्स पडता. दोघाय एकमेकाचेर नदर मारता. सुनीता वता. सुर्या पळयत रावता. इतक्यान कुमार भायर येता.)

**मन्या** – सुर्या ऽ ऽ (सुर्या भानार येवन कुमाराक पळयता.)

**बाबल्या** – (कुमाराक) दादा येळ किती जालो. (सुर्या धावत येवन कुमाराचेर झडप घालता. तिघूय ताका बडयता.) दादा, दादानू ख्याका मारतात त्याका? सुर्यादादा, मन्या मारु नका त्याका. ये करीमदादा, मरतलो तो. (आडवपाक वयता.)

**करीम** – अबे सटक. (बाबल्याक धुकलता.)

**सुर्या** – पूरो, पूरो. दळदिऱ्याची हाडा पातळ जाली. चला आता या हांगासून. (करीम फुलकाराक आनी भिकाऱ्याक धमकायता.)

**बाबल्या** – ये भाऊ जास्त लागला? दुखता? चल उठ...

**मन्या** – (ओढीत) ऐ, चल या.

**बाबल्या** – मन्यादादा, ख्याका मारलात तुमी त्याका. ऐ. भाऊ चल उठ तुका दवाखान्यात नेतय.

**करीम** – अबे चल. (ओडीत व्हरता. कुमार तळमळटा. ल्हवू – ल्हवू कुमाराभोवती गर्दी जमता. ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## देखावो तिसरो

(करीम, मन्या बसल्या. सुर्या सिगरेट ओडीत चितत उभो आसा. बाबल्या बोटा मोडीत फावटी मारता.)

**बाबल्या** – माका नाय करुचा तुमच्या बरोबर काम. तुमी लोकांक मारतात. माज्या आवशेक मारामारी आवडना.

**मन्या** – तुका नोकरी जाय आसली नी. मागीर हीच तर नोकरी. या नोकरीन जितको पैसो आसा तो किदयानूच ना.

WORLD KONKANI CENTRE LIBRARY 1158

**बाबल्या** – काय? म्हणजे त्या भाऊक मारुन तुमकां पैसे मेळले?

**मन्या** – हय.

**बाबल्या** – तुमी फसयल्यात माका. ऑफीस दाखयता म्हटला आनी मारामारी दाखयली. माका नाय रवचा तुमच्या बरोबर.तुमी पैसे घेवन लोकांक मारतात. तो भाऊ आसा काय मेलो कोण जाणा. हे देवा त्या भाऊक जितो दवर रे बाबा. मी जातय.

**मन्या** – तुका भयणीचें लग्न करपाक जाय काय नाका? आवयक तुवें पोती भरुन पैशें हाडता म्हणून सांगला मरें. हाच्यान व्हडली नोकरी तुका मेळची ना.

**बाबल्या** – माका नाय करुची असली नोकरी. मी मेहनत करुन पैसे कमवून भयणीचा लगीन लावीन. पण लोकांक मारपाची नोकरी मी करचय ना. माज्या आवशेक जर कळ्ळा की मी तुमच्या सारक्या माणसाबरोबर आसय तर तिका किती वायट दिसतला. आता मी हडेन एक मिनिटसुद्धा रवचय ना. माका म्हायत आसा. या शहर मोठा, पन खंयसर तरी माका नोकरी मेळटलीच.

**मन्या** – बाबल्या आनीक एकदा विचार कर. तुका परत आमच्याकडेच येवचो पडटलो.

**बाबल्या** – केवाच नाय. मी उपाशी रवान पण तुमच्या वांगडा काम करचय नाय. जातय मी.

**मन्या** – सुर्या, सुर्या,

**सुर्या** – आं. किदें?

**मन्या** – बाबल्या वयता म्हणटा.

**सुर्या** – वचूनी ताका.

**बाबल्या** – जातय मी. (वयता)

**करीम** – अच्छा हुआ साला चला गया।

**सुर्या** – तुमका पयलीच सांगलेले हांवे. जेन्ना तो आमचे काम पळयतलो तेन्ना स्वत: आमका सोडून वयतलो म्हणून. पूण वचून वचून वतलो खंय. ताका खबर ना. ही पृथ्वी गोल आसा. हे जग खॉट मारीत रावतले आणि हो परत आमचेकडेच पावतलो.

**करीम** – **नहींच आया तो अच्छा है, साला सिर्फ बकबक करता हैं और कुछ नहीं। मन्या मंदिर का माहोल कैसा होगा?**

मन्या – कसो म्हणजे. आमी वतकच कुमार थंयच तडफडत रावलो आसतलो. मागीर कोणे तरी देवळानसून तेका पळयला आसतलो आणि हॉस्पीटलान व्हेला आसतलो. मरचो ना तो. तरीय नानाक म्हणोन दवरुंक जाय. फाल्यां किदें जाले जाल्यार.... सुर्या, सुर्या....

सुर्या – किदें?

मन्या – किदें चिंतता तूं? व्हदळच्यान पळयता तुका. तुजे शितीत खंय आसा. कुमाराचो विचार करता?

सुर्या – हांव कुमाराचो विचार करीना. कुमार मेलोय जाल्यार नाना आसतना आमकां भय कसलो?

मन्या – मागीर कसलो विचार करतां?

सुर्या – हांव विचार करता देवळान मेळ्ळील्ल्या त्या चेडवाचो.

मन्या – अच्छा! अच्छा! ते चेडू, जे तुकां देवळान आदळ्ळिले आणि ज्याच्या बोवाळान तूवें टार्गेट चुकयिल्लो.

करीम – अच्छा हुआ मन्याने तेरे को आवाज दी। नहीं तो लडकीके चक्करमें तू अपून का चान्स गवाता।

मन्या – पूण सुर्या आता तू त्या चेडवा विशीं चिंतता किद्याक?

सुर्या – हांवूच नकळो. हांव ताचे विशीं इतको किद्याक चितता. पूण जेन्नाच्यान ताका पळयला. दोळ्यामुखर तेच दिसता. इतको सुंदर आणि भाबडो चेहरो हांवे केन्नाच पळोंवक ना.

करीम – क्या सुर्या, कोठेपे ऐसी सुंदर लडकियाँ बहुत हैं।

सुर्या – करीम. (गळो धरता.) त्या फालतूंची हाचेकडे बरोबरी करुं नाका.

करीम – माफ करदो सुर्या.(गळो सोडटा.)

मन्या – पूण आता तुजो प्रॉब्लेम किदें आसा.

सुर्या – प्रॉब्लेम एकूच कि तो चेहरो माज्या दोळ्यामुखारसून पैस वचना. कितलोय तेका विसरपाचो यत्न केलो तरी तो चेहरो परत परत माज्या दोळ्यामुखार उबो रावता. आयजमेरेन त्या कोठे वयल्या चेडवावांगडा कुडीचो संबंद

आयिल्लो. पूण हे पयलेंच चेडू आसा जाणें मनात खंयतरी भितर घर केलां. अशें दिसता ती मूर्ती फकत म्हज्या खातीर आसा. ताचेकडे म्हजे कसले तरी नातें आसा.

**मन्या** – तुवें चितला तरी किदें?

**सुर्या** – फुडल्या सोमारा आमी परतून देवळान वचपाचें.

**मन्या** – त्या चेडवाखातीर?

**सुर्या** – हय.

**करीम** – लेकीन सुर्या हमने तो वहाँ लफडा किया है किसीने पहचान लिया तो?

**सुर्या** – आरे कोणाची हिम्मत आसा आमचेर बोट उखलपाची. या राज्याच्या मुखेलमंत्र्याचो, नानाचो आशिर्वाद आसा आमचेर. (ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखावो चौथो – देऊळ

(तिघुय देवळाभायर उबे.)

**करीम** – सुर्या वो देख आ रही है। (सुनिता येता. चपला काडतां आणि भितर वता.)

**मन्या** – सुर्या चल वच उलय ताचेकडेन.

**सुर्या** – उलोवं?

**करीम** – बातको आगे लेना है तो बात करो।

**सुर्या** – आणि तेणें माका वळखले जाल्यार? म्हणजे हांव कोण ....

**मन्या** – तू तें काय चितूं नाका. चेडवांक गुंडाविशी माहिती आसताच अशें ना. आणि नानाच्या आशिर्वादान पुलीसांची सावळी आमचेर केन्नाच पडोंग ना. ताका लागोन केन्ना पेपरारुय आमचो फोटू येवंक ना. आं पूण तुजें नाव आकतकूत मात दुबाव येवंक शकता

**करीम** – क्या मन्या तूम भी, इस दुनिया में क्या सुर्या नामका एकही आदमी हैं। और किसीका नाम सुर्या नहीं हो सकता?

**मन्या** – तेंय खरे. पूण तरीलेगीत तुजी ताचेकडे वळख जाली जाल्यार तू तुजे खरें नांव ताका सांगूं नाका कसले तरी दुसरे नाव सांग.

**सुर्या** – वळख जावप. नाव सांगप सोडून दी. ते उलयतले तरी म्हजेकडे? फालतू चेडवांचें बरें आसता. पूण या बऱ्या घरण्यातल्या चेडवांचे काय सांगूक

जायना. तांच्या नाकार राग आसता.

**करीम** – तू कहाँ कम हैं? तेरे को भी तो बहुत गुस्सा आता हैं ।

**सुर्या** – म्हणूनच तर भय दिसता. सरळ उलोवप केन्ना आमकां जमला? तिडकीन आणि गाळयो मारुन उलोवपाची सवय. ताचेकडे कशें जमतलें तेंच कळना!

**करीम** – तू ये सब अभीसे काय को सोचता है? पहले उसके सामने जानेकी हिम्मत तो कर!

**सुर्या** – म्हऱ्यान वचपाक काय न्हय, फकत उलयताना गडबडना जाल्यार पुरो.

**करीम** – अभी टायम क्यों खराब करता है? जाओ मिलो उसे।

**सुर्या** – देवळान नाका. भायर येवनी तेका. पूण किदें सांगू व्हडल्यो व्हडल्यो फायली घेतना इतको भय केन्नाच दिसोंग ना. पूण आयज एका चेडवाकडे उलोवपाक पयलीच छाती धडधडूंक लागली.

**करीम** – होता है, होता है। पहली बार ऐसा होता है।

**मन्या** – आनी सुर्या, येस, नो, ओके, व्हाय, अशी मात्सी तरी इंग्लीश उलय. ताका विश्वास बसोनी तू शिकला म्हणोन.

**करीम** – आ रही है, वो आ रही है। सुर्या खुद को ठीक कर। (सुनिता भायर येता. सुर्या केसार हात भोवणायता. सुनिता चपला घालता. सुर्या फुड्यान वयता. सुर्या उलोवपाचो यत्न करता. सुनिता पळोंक ना अशे करुन चपला घालपाचें काम करतां.)

**सुर्या** – (ताळो लिप करीत) किदें गो देवळान आयिल्ले?(सुनिता वगी.) देवळान आयिल्ले?

**सुनिता** – (तिडकीन) तुका हो बाजार दिसता?

**सुर्या** – आं... ना... किदें मागले देवाकडे?

**सुनिता** – हे विचारपी तू कोण?

**सुर्या** – तुका याद ना. गेल्या सोमारा आमी एकमेकाक आदळली. आनी... तूजी पर्स... मागीर...

**सुनिता** – गर्दन मनीस मनशाक आदळत आसता म्हणोन किदें ते एकमेकाकडे वळख दवरीनात.

**सुर्या** – वळख दवरपाक किदें आसा?

सुनिता - तू असली फालतूपणा करता आसत. माका असल्या फालतूपणाची सवय ना.

सुर्या - हातून फालतूपणा कसली? पयल्याच नदरेंन चेडवांनी चेड्यांकडे उलोवपाक शिकोंग जाय.

सुनिता - (तिडक वाडतय) हे तुज्या भयणीक वचून सांग. (वयता)

सुर्या - (धावत सुनिताच्या फाटल्यान वचून.) आगो आयकोन तरी घे. (हात धरता. सुनिता वळोन थापट मारता. )

सुनिता - हाचे फुडें वळख नासलेल्या चलयेचो जेन्ना तू हात धरतलो तेन्ना तूका या थापटाची याद जातली. (वता. करीम, मन्या सुर्याच्या म्हऱ्यान येता.)

करीम - सुर्या, तू यहीच ठहर. सालीका अभी हात काटके आता हूँ।

सुर्या - (करीमाक आडयत.) करीम तू अशें कायच करचो ना.

करीम - पर सुर्या, उसने...

सुर्या - कायच करुंक ना. तू बेष्टे रगत गरम करुन घेवं नाका. ताजे किदें करपाचें तें हांव करतलो.

करीम - पर साली को छोडना मत. आज तक बडे बडे ताकतवर हमसें हार गये, और ये साली....

सुर्या - करीम तुका सांगला हांवें गरम जावंक नाका म्हणून. स्वतःच्या रागाक आळो घाल. ताणें जें केलां तें सारकें आसा. संस्कारान वाडलेलें चेडू केन्ना परक्या चेड्याक आपलो हात धरुंक दिवचें ना. ताणें म्हजेर थापट मारुंक ना. आपल्या प्रामणिकपणाचो सबूत दिला. आणि माका हाजेकडे कसलीच जबरदस्ती करपाची ना, बऱ्यापणानूच माका हाचो मोग झसील करपाक जाय.

मन्या - मोग? म्हणजे.... सुर्या तू खऱ्यानीच...

सुर्या - हय, हांव खऱ्यानीच त्याच्या मोगान पडला. ताच्या थापटान म्हाका आनीक ताच्या म्हऱ्यान हाडला. हो आवाज ताच्या थापडाचो न्हय. हो म्हज्या मोगाचो आवाज. जिवितान पयलेच फावट कोणे तरी भितरल्यान वेगळोच घावो दिला. हें चेडू म्हजें जातलेंच. हाचें मन जिंकल्याशिवाय हांव रावचो ना. (बाबल्या येता. कपडे लोळल्या, पिनल्या)

**बाबल्या** – ये ऽ ऽ दादानू

**करीम** – अबे भिकारी मंदिर वहाँ है।

**बाबल्या** – करीम दादा मी भिकारी नाय. बाबल्या हाय बाबल्या.

**मन्या** – बाबल्या तू? आणि तूजी अशी हालत?

**करीम** – मार दी ना जमानेने ठोकर।

**सुर्या** – करीम! बाबल्या किदें जाले सांग.

**बाबल्या** – काय सांगू सुर्यादादा. डीग्री पोत्यात घेवन खूप हिंडलय. कितीतरी ऑफीसानी गेलय. नोकरीसाठी हात पसरले. सायबांचे पाय धरले. दोळ्यान दुखा हाडून म्हटलंय, 'माका नोकरी दया. पैशाची लई गरज आसा. भयणीचा लगीन करुंक व्हया. माका नोकरी द्या.' असा आड्डान आड्डान सांगला. पण सगळेजण माजी फजिती करीत रावले. कुणी पैसे मागीतले तर कुणी वरीष्ठांचो वशिलो मागितलो. पण माज्याकडे त्यांका दिवपाक ह्यो दोनीय गोष्टी नव्हत्यो. घर नाय, चूल नाय भूकेन रातदीस हिंडत रावलो. कधी मोठमोठे गाडये मागे लागायचे तर कधी कुत्रे मागे लागायचे. फुटपाथवर कुत्र्यासारखे झोपून दिवस काढले. भयणीचा लगीन करुंक पैसे कमावयाचे होते पण मी हडे धपके खातय. माज्या आवशेक कळला तर तिका किती दुख व्हतला. सुर्यादादा माका तूमची आठवण इली म्हणान तुमका शोधत शोधत मी हडे इलंय. दादा माका तुमच्या वांगडा ठेवा. मी तुमची नोकरी करुंक तयार आसय. तुमी सांगतात ता काम मी करपाक तयार आसय. फक्त माका तुमच्या वांगडा ठेवा.

**सुर्या** – तू आमच्यावांगडा रावोंग सोदता? पूण आमी कोण आणि....

**बाबल्या** – मी बघितला तुमचा काम. पण माज्याकडे आता दुसरो इलाज नाय. भयणीचा लगीन करुंक व्हया तर कशेंतरी पैशे गोळा करुंक व्हये. पण मी हडे कसला काम करतय ह्या मात मी आवशेक कळांग दिवचयना. माज्या आवशेक वायट कामां आवडत नाय.

**सुर्या** – बरें आसा. करीम, मन्या हाका आमी आमच्या बरोबर दवरुया. सद्या आमच्या कामान घोळपाक वेळ लागतलो खरो पूण तितलो वेळ ताका दिवचोच पडटलो. बाबल्या या कामान तू तुज्या मर्जेन आयला, पूण तुज्या

मर्जेन वचूंक शकना. पैशाची गरज आणि जगान दिल्ल्या खोटीक लागोन तुवेन हें काम आपणायला. पूण तुजी तान भागली काय तुका वचूंक मेळचेना. तुवेन हें काम केन्ना आणि कशें सोडप हें आमीं थारायतले. तुज्या प्रत्येक पावलाचेर आता आमचो अधिकार आसा.

**करीम** – और कभी बिचमें भागनेकी कोशिश की तो...(पिस्तूल भायर काडता) सिदा उपर पहुँचा दूँगा।

**बाबल्या** – दादानू माका तुमच्यो सगळ्यो अटी मान्य आसत.

**सुर्या** – चल आता या. पयली हाका हॉटेलान व्हरया. खुप दीस जाले भुको आसा बाबडो. (सगळे वयता. सुर्या वळोन देवळाक पळयता.)

**मन्या** – किदें पळयता?

**सुर्या** – काय ना. फुडल्या सोमरां परत येवपाचे.

**करीम** – क्या? (ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## देखावो पाचवो– देऊळ

(तिघुय देवळाभायर उबे आसात.)

**मन्या** – सुर्या आयज हो तिसरो सोमार आमीं हांगा येतात. कोणी पळयणारो म्हणटलो हे तिघूय सोमारच्या सोमारा हांगा येता. पूण देवळान भितर वयचे सोडून भायरुच उभे रावता. हांचे जाला तरी किदें (हासता.)

**करीम** – पहले दिन तो आपून बकरा काटने आये थे। अब बकरीको घास डालने आये हैं।

**मन्या** – सुर्या गाल सामाळून हा. आयजूय थापट पडत. (हासता.)

**करीम** – सुर्या आज अगर उसने तेरे उपर हात उठाया ना तो मुझे रोकना मत, कह देता हूँ।

**सुर्या** – आता तुमी अेक काम करता? आयल्या तशें परत चला.

**करीम** – क्या?तुम्हें अकेला छोडकर जायें।

**सुर्या** – हे पळयात माका ताका माज्या पद्धतीन हासिल करुंग जाय. थापड खंयचें आयज ताणें माका जित्तो लेगीत मारल्यार उपकारता. पूण स्वत:क हांव हारोंग दिवचो ना. या कामान पाशियस लागता. तुमका दोघांकूय पशियस

ना. तुमचें रगत रोकडेच गरम जाता. बाकीच्या कामाक रगत गरम जाता तें बरें आसा पूण या कामान रगत आणि मन दोनूय शांत आसुंकूच जाय. तुमी चलात...

मन्या – सुर्या रावता आमी.

सुर्या – नाका. आनी बाबलो रुमार एकटो आसतलो. ताका सद्याक तूमची गरज आसा. सगल्यो गजालीं शिकयात ताका. हांव रोकडोच येता.

करीम – जैसी तुम्हारी मर्जी. लेकीन संभालके. आज अगर सालीने...

सुर्या – मन्या व्हर हाका. (दोघूय वयता सुनिता देवळातल्यान भायर येता. चपला घालपाक लागता. सुर्या सुनिताच्या म्हऱ्यान वता.) किदें मागलें देवाकडेन?

सुनिता – आयज देवळान आयिल्लें काय विचारिना?

सुर्या – ना. खबर आसा हो बाजार न्हू म्हणोन.

सुनिता – बरी बेगीन अक्कल आयली. पूण त्या दिसाचे थापट विसरोंग ना दिसता तू?

सुर्या – ना. आणि केन्ना विसरचोय ना.

सुनिता – मागीर आयज किदें जाय तुका म्हजेकडल्यान?

सुर्या – तुजें नाव!

सुनिता – वाटेवयल्या मनशाक नाव सांगपाची सवय ना माका.

सुर्या – वाटे वयलो खंयचो, तुका सांगला हांवेंन, आर्मी देवळान आदळलेली म्हणोन.

सुनिता – आणि हांवेनूय तुका सांगला गर्देन आपटिल्ल्यांची ओळख दवरपाची सवय ना माका.

सुर्या – माकाय ना. पूण तूज्याकडेन उलोंव शें दिसले. ओळख दवरुशी दिसली.

सुनिता – किद्याक?

सुर्या – कारण पयल्याच नदरेंन तू म्हज्या मनान भरलें.(सुनिता सुर्याक पळयत रावता.)

सुनिता – किदें?

सुर्या – हय, हांव तुजें नाव नकळो. तूं खंय रावता तेय नकळो. हांव इतकेच जाणा की तू म्हज्या काळजाच्या लागीं आसा. (सुनिताचो हात धरता) तुवेंन त्या दिसा म्हजेर थापट मारुन सांगलेलें की जेन्ना हांव वळख नासलेल्या चेडवांचो हात धरतलो तेन्ना माका थापटाची याद जातली. आयज हांवें परत तुजो

हात धरला, पूण माका तुजे थापट याद जायना. कारण माका दिसना की हांवे अनवळखी चलयेचो हात धरला कसो. हो हात म्हजो आणि आयुष्यभर म्हजोच आसतलो कारण हांव तुजेर मोग करता. (सुनिता हात सोडून लजून धावता. वळोन अेक नदर मारता. स्वत: भितरुच हासता आनी तोंड लिपोवन हासत धावता. सुर्या सुनिताक पळयत रावता. तोंडार उमेद दिसता. ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखावो सवो – मंत्र्याचो बंगलो

(सुर्या आनी मन्या बसला करीम भायर पळयता.)

**करीम** - मन्या देख पागल को। वॉचमॅनको गाव की बातें बता रहा है। रास्तेभर मुझे बकबक सुनायी अभी उसके साथ बकबक कर रहा हैं। सालेको गाडीपरभी बैठना नहीं आता। लिपट के बैठता है। सालेने मेरा एक बटन भी तोडां। सुर्या, जाते वक्त ये पागल मेरी गाडीमें नहीं बैठेगा, बोल देता हूँ।

**सुर्या** - करीम, बाबल्या आता आमचो वांगडी. शहराच्या धावपळीची ताका सवय ना. गावातल्या थंड वातावरणांत तो ल्हानाचे व्हड झाला. आयजमेरेन आमचेर इतके संस्कार जावंक ना जितके ताचेर जाल्या. सध्या तो आमच्यासारक्या गुंडांच्यां मदीं आसा. ताका आमच्या मदीं घोळपाक मात्सो टायम लागतलोच त्या आदी प्रत्येक खिणांक आमीं ताका समजून घेवंक जाय.

**करीम** - पर सुर्या, मुझे तो लगता है, की ये साला किसी भी काम का नहीं है। फुकट आपूनपर बोज बनके रहेगा।

**सुर्या** - करीम, या धंद्यान येवच्या पयली तू कसो आसलो हाची याद आसा तुका? (करीम सकल मान घालता.) आयज तुजो हात जसो उखलता तसो पयली उखलतालो? मन्यालेगीत या धंद्यान येवच्या पयली कसो आसलो? आयज ताका सगळे लोक भियेता, पूण पयलीं ताका कोण भियातलो? मनीस जन्मताच गरम रगताचो नासता. परिस्थिती ताका घडयता. बाबल्यासुद्धा आयज अशाच अेका परिस्थितीन अडकला आनी ताचे हे परस्थितीन ताका आमच्या वांगडा सोपयला. (बाबल्या येता.)

**बाबल्या** - करीमदादा, तो वॉचमन तुज्या गावचो? तुज्यासारकोच बोलता.

**करीम** – चूप बे.

**बाबल्या** – मी बे नाय, बाबल्या... सुर्यादादा, आमी मिनिस्टराच्या बंगल्यांत किद्याक इलय?

**सुर्या** – तुजी नानाकडे म्हणजेच राज्याच्या मुखेलमंत्र्याकडे वळख करुन दिवपाक.

**बाबल्या** – काय? तुमी माका मुख्यमंत्र्याची ओळख करुन दितल्यात. म्हणजे माका काम मेळटला?

**करीम** – काम? एक काम मिल गया वो काफी नहीं है क्या?

**सुर्या** – बाबल्या आमीं जें काम करता तें समाजाच्या आनी कायद्याचे नदरेंन अेक गुन्याव आसा. पूण इतके गुन्याव करुनलेगीत आमीं आयज मेरेन केन्नाच पुलीसांच्या हाताक सापडोंग ना. कारण नाना सारकिल्ल्याचो आशिर्वाद आमचे फाठीर आसा. आमी देवाक मानिना. कारण, देवान आमचेर आयजमेरेन अन्याय केला. आमच्या जिविताक खरो न्याय नानानूच दिला. तेखातीर आमी मानता फकत नानाक. आमी जे किदें करता तें नाना खातीर आनी जे किदें करतले तेंय नानाखातीरूच.

**बाबल्या** – म्हणजे तुमी या काम करता, तें समळां तुमकां हो मिनिस्टर करपाक लायता?

**सुर्या** – नानाच्या वाटेंत आयिल्लें काटें काडप हेंच आमचे कर्तव्य आनी आता तुजेंय.

**बाबल्या** – काय दीस इलेत. मुख्यमंत्री म्हणजे राजा, देव कसो. आनी तोच रगताची होळी खेळपाक लायता?

**सुर्या** – बाबल्या हाकाच जिवित म्हणता. जें तुवें आजूनमेरेन पळोवंक ना. (नाना भायर येता.) नमस्कार नाना.(पाया पडटा.)

**नाना** – सुर्या, बाबा, रागार ना मरे उशीर जालो म्हणोन? म्हजो सिक्रेट फोन आसलो. आनी, सांग किदें म्हणटा. पैशे जाय.

**सुर्या** – नाका. नाना हांव हाजी तुमकां वळख करुन दिवपाक आयिल्लो.

**नाना** – कोण हो?

**सुर्या** – हो बाबलो. पेडण्याचो. हांवेन ताका आमच्यान सामिल केला.

**नाना** – सुर्या, बाबा हांव जाणा, जें जिवितान हार मानता तांकां तूं आपल्याकडे

WORLD KONKANI CENTRE LIBRARY
1154

आसरो दिता. तेखातीर हाची कसलीच म्हायती हांव विचारिना. तर बाबल्या, हो सुर्या आसा तोमेरेन तूं कायच भिवो नाका. अरे बाबा, आयज हो सुर्या आसा म्हणोनूच तर हांव आसा.

**सुर्या** – अशें किद्याक म्हणटा नाना. उलट आयज तुमच्याखातीरुच हांव आसा.माका आजून याद आसा... खेळपाच्या आनी शिकपाच्या वयार पणजेच्या नुस्त्याच्या बाजारान प्लास्टिकच्यो पोतयो विकून म्हजे दुयेंत आवयेचे हांव पोट भरतालो. बापूय आसलो, पूण आसून नासल्यासारखो. म्हजी आई जाचे मंगळसूत्र घाली तो तिका आपली बायल मानपाक कबुल नासलो कारण तो गुंग आसलो दुसऱ्याचे बायलेवांगडा संवसार थाटपाक. या सगळ्याचो म्हज्या आवयचेर खूप परिणाम जातालो. ती कसल्या तरी दुयेंसान आलतालीच. बाजारान पोतयो विकून मेळील्ल्या पैशान तिचेर उपचार करप शक्य जाले ना आनी एका दिसा ती माका या संसारान अेकट्याक सोडून गेली. तेन्नाच हांवें थारायले, वायट कामां जांव, पूण हातान पैसो घोळटलो अशी कामां करप आनी तेन्नाच्यान हांवे ल्हान मोठ्यो चोरयो मारामारी करपाक सुरवात केली. दर्यार, थियटरान, फुटपाथीर, जेलीन दिस काडून ल्हानाचो व्हड जालो आनी मागीर एका दिसा नाना तुमी मेळ्ळें. तुमी मेळ्ळें त्या दिसाच्यान हांव दर्या, थियटर, फुटपाथ आनी ती जेल विसरला. हांव आयज वायट कामां करुनलेगीत ताठ मानेन जगता, हें तुमचेंच उपकार.

**नाना** – अरे बाबा, हांवेन तुका घडयला आसत पूण हो करीम, मन्या हांका तुवेनूच घडयला. हो मन्या मांडवी पुलार जिव दिवपाक गेल्लो ताका तुवेन जगप शिकयलें. हो करीम आपले घरदार, शहर सोडून गोव्यान पळून आयलो, ताका तुवेनूच सांभाळलो.

**बाबल्या** – साहेब, खराच सुर्याचा मन मोठा आसा. माजे दोळेसुद्धा भरले बघा.

**नाना** – हय मरे, मागीर सुर्याचो साथ केन्नाच सोडू नाका. आता तू ताचो नवो साथीदार. तो जी कामा करता तें शिकोन घे. तो सांगता तें कर कारण याच कामावयल्यान तुमचो आनी म्हजोय फुडार आसा. (हासता. ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखावो सातवो – रस्तो

(सुर्या, सुनिता चलत येता. सुर्याच्या हातान मोटरसायकलीची चावी.)

**सुनिता** – थँक्स फॉर गीव्हीग लिफ्ट.

**सुर्या** – थँक्स किद्याक? हरशी म्हणून हांव या वाटेन येतालोच. तू बस स्टॉपार दिसलें म्हणून तुका घेवन आयलो. माज्या जाग्यार आनीक कोण तुज्या ओळखीचो आसलो जाल्यार तोय तुका लिफ्ट दितलोच आसलो.

**सुनिता** – दितलो आसलो पूण म्हज्या वाटेन मुद्दामहून येवन न्ही.

**सुर्या** – म्हणजे?

**सुनिता** – तूजें हे वाटेन खरेच किदें काम आसा काय माका लिफ्ट दिवपाखातीरुच तू त्या वाटेन आयलो? (सुर्या सुनिताक पळोवन हासता.) माका कळलेलेच तू मुद्दाम आयला म्हण. अेक विचारु?

**सुर्या** – विचार.

**सुनिता** – तू नाटकांनीं कामां करता?

**सुर्या** – ना, किद्याक?

**सुनिता** – आयज तुवें ॲक्टींग बरी केली. पयली बायक घेवन फास्ट आयलो. माका पळोवन सुद्धा पळोंग नासलेल्या भाशेन केले मागीर फुड्यान पावोन अचानक ब्रेक मारलो आनी स्टायलीन माका विचारले, तुका लिफ्ट जाय? यो हांव पायता तूका (हासता) वा, व्हॉट अ ॲक्टींग.

**सुर्या** – हांव मुद्दामहून आयला हें कशें कळलें तुका?

**सुनिता** – कारण अशें कितलेशेच चले काम नासताना म्हज्या वाटेन येतात आनी माका बसस्टॉपार पळोवन लिफ्ट जाय काय विचारता. पूण आयजमेरेन कोणाची लिफ्ट घेतलेली याद ना.

**सुर्या** – आनी म्हज्याबरोबर.....

**सुनिता** – तुजी गजाल वेगळी.

**सुर्या** – किद्याक?

**सुनिता** – (लजोन) हांव नकळो...तुवेन माका तुजे नाव सांगूक ना.

**सुर्या** – म्हजे नाव? म्हजे नाव...

**सुनिता** – (हासता) स्वताचे नावूय विसरलो?

**सुर्या** – म्हजे नाव समीर... आनी तुजें

**सुनिता** – सुनिता.

**सुर्या** – खंय रावता तूं?

**सुनिता** – सांतिनेज.

**सुर्या** – वा लागी आसा.

**सुनिता** – किदें?

**सुर्या** – घर तुजें!

**सुनिता** – तुजे नाव समीर, म्हजे नाव सुनिता. सुनिता– समीर, समीर – सुनिता

**सुर्या** – किदें म्हणटा तूं?

**सुनिता** – आं. काय ना. दोघांच्याय नावान पयले अक्षर सेम येता म्हणून... यो हांव तुका म्हजे ऑफीस दाखयता... ऑफीस म्हणजे... प्रिटींग प्रेस. हांव प्रिटींग प्रेसार कामाक आसता. तशें शिकला हांव बारावी. या जगान ग्रॅज्युयेट जाल्ल्यांकूच काम मेळना थंय म्हजी बारावी किदच्याक उपकारता. यो तुका प्रेस दाखयता.

**सुर्या** – नाका तुका कोणी पळयत म्हज्या वांगडा.

**सुनिता** – पळयल्यार किदें जाले. तू किदें गुंड?(हासता.)

**सुर्या** – आं... ना... पूण तुजो पत्तो कळलो तितको पुरो... सुनिता तुवें माका आजून उत्तर दिवक ना.

**सुनिता** – (पर्सीतले कार्ड काडता.) हो म्हज्या ऑफीसाचो नंबर. माका दनपारा फोन कर.

**सुर्या** – पूण...

**सुनिता** – समीर, हांव ज्या घरान ल्हानाचे व्हड जालां त्या घरान म्हजेर जाय ते संस्कार जाल्यात. आनी संस्कारन वाडलेले चेडू खंयच्याच चेड्याक अशें उत्तर दिना. बाय. (लजून वता.)

**सुर्या** – (आपलेभितर–स्वगत) आयज मेरेन कितल्योशींच चेडवा पळयलीं. कितल्याश्याच चेडवांच्या कुडीवांगडा संबंध दवरले. तांचेवांगडा रातीं घालयल्यो पूण जिवितान पयलेच फावट खंयच्या चेडवाकडे मनाचे संबंध आयले... सुनिता तुजें उत्तर

जाणा हांव, आतां फकत माका म्हज्याच प्रश्नाच्यो जापो दिवपाच्यो उरल्या.
(ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## देखावो आठवो – रस्तो

(एक पत्रकार चलत येता. या चौघांक पळोवन धावपाक सोदता, पूण हें ताका आडयता आनी मारपाक सुरवात करता. सुर्या पिस्तुल काडून बाबल्याकडे दिता. )

**सुर्या** – घे जित्तो मार ताका.

**बाबल्या** – नाय माज़्याकडे होवचा नाय. दादा माका भय दिसता.

**सुर्या** – भिवो नाका आमीं आसा मार बेगीन.

**बाबल्या** – नाय दादा, नाय. माज्याकडे होवचा नाय.

**करीम** – साले जल्दी मार डाल।

**मन्या** – बाबल्या, बेगीन कोण ना तसो.

**बाबल्या** – नाय, मी नाय.(सुर्या बाबल्याच्या फाटल्यान येवन बाबल्याच्या हाताक धरुन गुळयो मारता. बाबल्या रडटा.) आवशे बग मी काय केलंय. हे भाऊ माका माफ कर.

**मन्या** – बाबल्या चल...

**बाबल्या** – मी त्याका मारलो.!

**करीम** – साले चल। (बाबल्याक ओडून व्हरता. दुसऱ्या सायडीनच्यान सुनिता कामाचे सुट्टून येता. रस्त्यार पडिल्ल्या मनशाक पळोवन किळाच मारतां. ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## आंक पयलो सोपता

## आंक दुसरो

## देखाव पयलो – गार्डन

(अेक वर्साचो काळ गेला.बाबल्याच्या कपड्यान मात्सो फरक. पूण भास तीच. चोघूय येतात. बाबल्याच्या हातान गुलाब.)

**करीम** – सुर्या, यहीच है ना तुम्हारा लव्हर स्पॉट?

**सुर्या** – हय. आतां तुमीं चला सुनिता येवपाचो वेळ जालो.

**मन्या** – अरे वा! इतको रस्तो आमी तुका साथ दिली आनी आतां हांगा पावोन आमचेर खोंट?

**सुर्या** – मागीर ताच्या म्हऱ्यान तुमीय रावतले? कळना कशें तुमकां?

**करीम** – हा. आपून को कैसे समझेगा? आपुनकी कहाँ है लैला?

**मन्या** – त्या कोठ्यार आसा तें चंपा कोणाचें तर?

**करीम** – चूप बे साले!

**बाबल्या** – सुर्या दादा. तूं सदी हडे माज्या वयनीक भेटांक येतय?

**मन्या** – हय रे वयनीच्या दिरा. (सगळे हासता.) सुर्या, दिराक वयनीची वळख करुन दी मरे.

**सुर्या** – तुमचेर सगळ्यांचेर खरेंच खोट पडटली. तुमी वयता काय ना?

**करीम** – सच्ची सुर्या, मिला दे ना एक दीन, कब तक उसे हम दूरसेही देखेंगे? हमें भी लगता हैं ना हमारी होनेवाली भाभीसे मिलें। क्यो मन्या?

**मन्या** – हय सुर्या, अेक दीस तरी ताची आमकां वळख करुन दी.

**सुर्या** – (तापोन) वळख करुन दिवं? आनी किदें म्हणून सांगू? कोण तुमीं म्हणून? सांगू की हो गुंड, हप्तो घेता, मारामारी करता, लोकांक जितो मारता. काय पैशांखातीर लोकांच्या जिवितार खेळप होच हांचो धंदो. आनी या सगळ्यान हांवूय तांचो सांगाती. फकत सांगाती न्हय. तर लिडर तांचो. हेंच सांगू....वळख करून दी खंय. आरे आमका पळयल्यारूच कळटा आमी कोण तें... वर्स जायत आपले आमच्या मोगाक. सुनिताच्या सांगातान रावोन दिस केन्ना गेले कळुकूच ना. सुनिताच्या मोगान हांव इतको बुडला की स्वता त्या सुर्याक सोडता. सुनिताक मेळपाचें आसतना हांव ताच्या म्हऱ्यान कसो वयता, कसो उलयता हें म्हाकाच खबर. ताका म्हजेर मात लेगीत दुबाव

येवचो ना, तें चितुंकूच शकचें ना, की जाचेर तें मोग करता तो अेक नाम वंत गुंड जाणे आयजमेरेन कितलेश्याच जाणांक पांगळे केल्यात, तांकां आयुष्यांतल्यान उठयल्या. आरे गेलें अेक वरस हांव ताका स्वताची खरी वळख दिवंक शकलो ना आनी तुमी सांगता तुमची वळख करून दी म्हणून?

**मन्या** – पुण सुर्या हे सत्य तुका केन्ना तरी ताका सांगचेंच पंडटले.

**सुर्या** – हें सत्य माकाय लिपोवपाचे ना. म्हणून तर गेले कितलेशेंच दिस हाव ताका सांगपाचो यत्न करता पूण शट् ..... कशेच शक्य जायना. अेके वटेन भयलेगीत दिसता की हें सत्य आयकून सुनिता म्हजेपासून पैस वचत म्हणून.

**बाबल्या** – सुर्या दादा, ता जर खराच तुमचेर मनापासून प्रेम करता जाल्यार मी सांगतय तुमका, ता तुमका केवाच सोडून वयचयं ना.

**सुर्या** – बाबल्या, हांव सुर्या म्हणून ते म्हजेर मोग करीत, पूण अेका गुंडाचेर कोण मोग करतलोच अशें ना.

**मन्या** – तूं वायट किदयाक चित्ता? कदाचित तें तुका माफ करीत. आयज परत एकदा यत्न करून पळय.

**करीम** – सुर्या, वो आ रही है।

**सुर्या** – तुमी चलात हांव मागीर मेळटा तुमकां.

**बाबल्या** – सुर्यादादा, हो गुलाब ( गुलाब दिता, सगळे वता, सुनिता येता )

**सुनिता** – Hi! sorry उशिर जालो. पूण आयज काम खूप आसलें. खूप वाट पळोवची पडली?

**सुर्या** – ना, म्हाकाय चड वेळ जावंक ना आयल्यार, घे (गुलाब दिता)

**सुनिता** – वाव, beautiful सुर्या तुजें सदी गुलाब दिवप म्हाका खूप आवडटा.

**सुर्या** – आनी हांव ?

**सुनिता** – तू आवडटा म्हणून तर तुका मेळोंक येता (हासत दोघाय बसता ) समीर, दीस कितल्या बेगीन सोंपता न्हय ? तूका याद आसा पयले फावटी आमी शंकराच्या देवळान आपटल्ली (हासता) म्हजी पर्स सकयल पडिल्ली आनी ती पर्स उबारताना तूजेर मारील्ली ती पयली नदर आजून याद आसा म्हाका.

**सुर्या** – तशें तुजें थापटूय हांव विसरूंक ना. (सुनिता हासता)

सुनिता – पुण थापट खावनूय तूं म्हजेकडे उलोपाक आयलोच. खरें म्हळयार तू फुडयान येताच म्हजें काळीज फास्ट धावूंक लागले, अशें दिसलें की तू म्हजेर राग काडटलो. पुण तुवेंन चितूंग नासलें तें केले, डायरेक्ट म्हजो हात धरलो आनी म्हणूंक लागलो 'हांव तूजेर मोग करता' समीर दुसऱ्यांचो आधार घेवन स्वताची मना उक्ती करणारे हांवें खूप पळयल्या पुण तू तातुंलो न्हय. खरेच खूप daring आसा तुझ्यान.

सुर्या – ही एकूच गोष्ट तर म्हज्यान आसा

सुनिता – किदे ?

सुर्या – काय ना....

सुनिता – (हासता) तुका एक joke सांगूक जाय आशिल्लो.

सुर्या – कसलो (परत सुनिता हासता) सांग तरी किदें जालें तें.

सुनिता – म्हज्या बरोबर तें ज्योती म्हणून कामाक आसा पळय तें म्हाका सांगता, तुजें नाव समीर न्हय तर सुर्या खंय, (हासता) तें म्हणटा, तूं एक गुंड खंय! (सुर्या उठटा)

सुर्या – ताणें म्हाका तुजेंवांगडा पळयलां?

सुनिता – फार्टी हांगाच ते आपल्या बॉय फ्रेन्डा वांगडा आयील्लें, तेन्ना ताका ताज्या बॉयफ्रेन्डान सांगले खंय तू एक गुंड म्हणून.(हासता)

सुर्या – मागीर तुवेंन किदें सांगलें?

सुनिता – हावेंन सांगलें खरें म्हणून!

सुर्या – किदें खरें?

सुनिता – हेच की तू खऱ्यानीच एक गुंड म्हणून (सुर्या सुनिताक पळयत रावता) तुवेंन म्हज्या मनाक घायल करूंक ना ? (हासता).

सुर्या – सुनिता, तूवेन केन्ना खंयच्या गुंडाक पळयलां?

सुनिता – ना रे बाबा, तें कशे आसता तेंय नकळो हांव! आ पिक्चरान पळयला, पूण त्या गुंडांक कपडयाचेरूच वळखुपाचें. खरें गुंड दिसपाक कशें आसता, कशे वागतां तेंय नकळो हांव.... समीर हावेन गुंड पळोंकना पूण खून जाल्लों मात पळयला.

सुर्या – खून ?

सुनिता – हय, एकदा हाव कामावेल्यान येताले तेन्ना ताळगांवच्या रंस्त्यार एकटो म

रून पडिल्लो आनी ताच्या पोटातल्यान रगत व्हावतालें!

**सुर्या** – ताळगावच्या रस्त्यार ? तुवेन कोणांक मारताना पळयला?

**सुनिता** – ना, हांव थंय पावले तेन्ना थय कोणूच नाशिल्लो. हावेन किळच मारली आनी थंयच्यान धाव मारली. कित्ले भियालें हांव त्या वेळार. समीर, हाव केन्नाय चिंत्ता हें गुंड बऱ्या कामाक किद्याक आपली ताकत दाखयना ? भ्रष्टाचाऱ्याचो हांच्या हातांतल्यान खून किद्याक जायना? पैशाखातीर दुसऱ्यांच्या जिवाचेर खेळपी हे गुंड मनान कितले निर्दयी आसतले ...... निर्दयी खंयचे तांकां मनूच नासतलें!

**सुर्या** – सुनिता ... जर हावेन तूका सांगलें की हावूय एक गुंड ... खुनी म्हणून जाल्यार? (सुनिता हासता) किदें जालें, हासलें किदयाक?

**सुनिता** – समीर, तुज्या असलो शांत स्वभावाचो मनीस जर गुंड आसलो जाल्यार बरे मनीस या जगान सोदचे पडटले.

**सुर्या** – पूण ... सुनिता, समज हांव...

**सुनिता** – Come On सुर्या, कसलो topic घेवन बसलां. म्हाका एक सांग, तूं म्हाका घरा केन्ना व्हरता.

**सुर्या** – तू सांग, केन्ना येता?

**सुनिता** – आयतारां येवं ?

**सुर्या** – आयतारा ?..... यो पुण हांवे म्हज्या आवय–बापायबद्दल तूका पयलीच सांगलां. म्हजेकडें चार वण्टी आसा, पूण नातें ना. आनी सुनिता ... हावेन तुका केन्ना सांगूक ना ... पूण म्हजे काय इश्ट आसा जें म्हजेवांगडा रावतात.

**सुनिता** – म्हणजे आयतारा हांव म्हज्या देरांकूय मेळटले तर? (हासता) समीर, तुजें काम कशें चल्ला?

**सुर्या** – काम ?

**सुनिता** – तू सांगी न्हय तूं कसलेतरी Contract घेता म्हणून.

**सुर्या** – आ.. हय तें घरा मोडप.... मागीर बांदप.

**सुनिता** – समीर, हांव तुका कामाविशीं विचारता. कारण म्हज्या घरान म्हज्या लग्नाचो विचार चल्ला. घरातले म्हजेविशीं किदें ठरोवच्या पयलीं म्हाका आमच्याविशीं सांगपाक जाय.... आनी समीर, तूं आमगेर मागणी घालपाक येंव नाका.

म्हज्या घरात तूजो insult जालो जाल्यार म्हज्यान तो सहन जावचो ना. म्हजी बाजू हावूत सांबाळटले.

**सुर्या** – जशी तूजी मर्जी (खांदार हात दवरता दोघाय एकमेकाक पळवन हासता. ल्हवू – ल्हवू काळोख)

## देखाव दूसरो – घर

(करीम आनी मन्या नवे कपडे घालून )

**करीम** – अे मन्या, इन नये कपडोंमें खूजली आती है. आपूनका पूरानाही ठीक था।

**मन्या** – लोकांक पोरणें कपडे घातल्यार खाज येता, आनी या करीमाक नव्या कपड्यांनी खाज येता. आडेचे नवे कपडे घातल्यार आनी खूप दिसांनी न्हाल्यार अशेंच जाता!

**करीम** – क्या बोला बे?

**मन्या** – काय ना, काय ना (बाबल्या टाय मारून येता, शर्ट भितर घातिल्लो ना)

**बाबलो** – मन्यादादा मी कसो दिसतंय?

**मन्या** – वा! बाबल्या , सायब कसो दिसता मरे तूं टाय मारून.

**करीम** – साले, ये टाय किसका चुराया?

**बाबलो** – करीमदादा, त्या दिसा आमी पानपट्टी घेतलेली न्हू ..

**मन्या** – पानपट्टी ? आमच्यान पान कोण खाता?

**बाबलो** – (हासता) खावपाची नाय, मारपाची

**करीम** – साले, सुपारी बोल.

**बाबल्या** – आ. ताच त्या भाऊक मारताना तेचो टायच माझ्या हातात इलो. मी तो सोमतो बॉलसान घातलो आनी आयज तो उपयोगी पडलो.

**मन्या** – हे पळय बाबल्या, करीम, सुर्यान किदे सांगलां तें याद आसा न्हूं ? सुनिता म्हन्यान फायलीचें नाव काडप ना. ताका आमचेर मात लेगीन दुबाव येवंक फावो ना.

**करीम** – तूम फिकर मत करो मन्या, आपूनने घर के साथ – साथ खुदको भी इतना धोया है की उसको हमपर शक ही नहीं होगा(भायल्यान आवाज)

**मन्या** – आयलो, सुर्या. सुनिताक घेवन आयलो, सांगला ते लक्षान दवरात .(सुर्या सुनिताक घेवन भितर येता)

**सुर्या** – यो सुनिता.

**बाबलो** – येयात वयनी, येयात, कशी आसात, घरान आवशी, बापूस कसो आसा?

**सुनिता** – समीर, हो पात्राव तुजो ?

**सुर्या** – ना, हो माझो इश्ट, बाबलो , हो करीम........

**करीम** – सलाम भाभीजान.

**सुर्या** – आनी हो मन्या.

**मन्या** – Hello, बसात वहिनी (बसता) आनी वयनी आमीं तुमकां आदीच वयनी म्हणटा म्हणून रागार ना न्हय.

**सुनिता** – ना, ना हातून राग कसलो आनी केन्ना तरी हांव तूमची वयनी जातलेंच न्हय. वहिनी म्हणपाची ही तुमची रिअर्सल समजा, आनी म्हजी आयकपाची (सगळे हासता)

**करीम** – भाभीजान आपून चाय लेके आता है। (भितर वयता)

**सुनिता** – समीर, या करीमाक कायच कोंकणी कळना ?(सुर्या मन्याक पळयता)

**मन्या** – वहिनी त्याचे किदें आसा .. की .. तो हालीच गोयान आयला तशें उलयता तें कळटा ताका.

**सुनिता** – पुण तो उलयलो की हिन्दी पिक्चराचो टपोरी उलयलो कसो दिसता.

**बाबलो** – खरा तुमचा वयनी माका हिन्दी समजता तरी पुण करीम काय बोलता ता सगळा माथ्यावयल्यान जाता.(मन्या बाबल्याक रागान पळयता.)

**मन्या** – वयनी तसो तो हुशार आसा, तुमी पळयशात रोकडोच तो कोंकणी शिकतलो. वयनी तुमकां आमचे घर आवडलें ?

**सुनिता** – हय, घरूय आवडले आनी घरातले मनीसूय.

**बाबलो** – वयनी आमचा घर ल्हान आसा. पन आमची सगळयाची मनां मोठ्ठी आसत. सुर्यादादा सुद्धा खूप प्रेमळ आसा.

**सुनिता** – सुर्यादादा ? कोण सुर्यादादा ? (सुर्या, मन्या एकमेकाक पळयता )

**मन्या** – सुर्या.... सुर्यादादा त्याचो भाव.... व्हडलो भाव..... पेडण्याचो....

**बाबलो** – (सावरत) व्हय वयनी..... सुर्या माझ्या मोठया भावाचा नाव. मी तूमका एकदा म्हज्या गावात नेतय आनी त्या सुर्याची वळख करून देतय. माजो सुर्यादादा लई प्रेमळ आसा. (करीम चा, घेवन येता )

**करीम** – लो भाभीजान चाय, भाभी जान इन लोगों के लिए चाय, खाना आपूनच

बनाता है. अपून मुसलमान है, फिर भी हमारे हाथ का खाना ये खाते है. पर भाभीजान जब तूम इस घर में आओगी तब हम तेरे हाथ का खाना खायेंगे।

**सुनिता** – जरूर, जरूर क्यों नही।

**करीम** – भाभीजान अभी आपके लिए मैं एक शेर कहता हूँ – 'आप हमारे घर आयी ये हमारी किस्मत है, कभी हम घर को , कभी चाय की प्याली को देखते हैं।'

**सगळे** – वाह ! वाह !

**सुनिता** – करीम, च्या बरी जाल्या भियोव नाका. (सगळे हासता)

**बाबल्या** – वहिनी मी पन एक गाणं म्हणून दाखयतंय. 'गोरी, गोरी पान फुलासारखी छान दादा मला हिच वयनी आण.' (सगळे हासता )

**सुनिता** – समीर, माका हे तुजें आवडूंक ना. तुवेन हांची वळख माका इतक्या उसरा किदयाक करून दिली.

**बाबल्या** – वहिनी, दादान मुद्दामूच आमची वळख करून दिली नाय.

**सुनिता** – समीर?

**मन्या** – व... वयनी हातून तूमचीच चूक आसा. तुमी या घरात पयलीच येवंक जाय आसली. तूमी उसरा आयली म्हणून उसरां वळख जाली..... बाबल्या वयनीक तुजें गार्डन दाखयना ?

**बाबलो** – या वयनी, मी तुमकां पोरसु दाखयतंय. पोरसांत मी गुलाबाची झाडे लायलीत आनी मातीची तूळसपन करून ठेवलंय. या तुमका दाखयतंय.

**सुनिता** – चल, पळोवया तुजें गार्डन (बाबलो सुनिताक घेवन भायर वता मन्या सुस्कार सोडीत बसता)

**मन्या** – सुटले, प्रत्येक सेकंद सांबाळचो पडटा.

**करीम** – ये बाबल्या साला, भांडा ही फोड देता.

**मन्या** – आनी तू किर्दे. तुका सांगलेले हावेन ताज्या फुड्यान उलयताना सारखो उलय म्हणून. सुर्या ताका बेगीन घेवन चल, ते आनींक पंधरा मिनटा हांगा रावलें जाल्यार किर्दे जातले सागूंक जायना.

**सुर्या** – जावनीं किर्दे जाता तें, कितले दिस म्हणोन लिपयतलें? केंन्ना तरी कळटलेंत. हांव स्वता तर ताका केन्नाच सागूंग पावलो ना आनी सद्या तर परिस्थिती

इतकी बदलल्या की माका दिसता आमका बेगीनात लग्न जावचें पडटलें.

**मन्या** – म्हणजे ?

**सुर्या** – ताच्या बापायन आमच्या लग्नाक विरोध केला. सुनितान कालूच आपल्या बापायक विचारलें. हांव कोण, खंयचो हे लेगीत ताका आयकपाचें ना. आपल्या चेडवान मोगान लग्न जाल्लें नाका खंय ताका... अेक वेळ बरेंय जालें नाजाल्यार ताच्या बापायक हांव स्वताची कशी वळख करून दितलो आसलो.

**मन्या** – आनी, सुनिताक खरी वळख करून दिवचोना ?

**सुर्या** – आता लग्न जावपाचे थारायला म्हणजे लग्नाआधी सगळीं कारस्थानां ताच्यामुखार उक्ती करचीच पडटलीं.

**करीम** – नहीं सुर्या, तू ऐसा बिलकुल नहीं करेगा। अगर ... अगर वो बदल गयी तो ? नहीं सुर्या तू ऐसा कुछ नही करेगा। पहले शादी हो जाने दो बाद में तू ये सब कुछ छोड दे।

**सुर्या** – हांवेन अेकट्यानूच सोडप ? आनी तुमीं......?

**करीम** – सभी तो ये धंदा छोड नहीं सकते। कोई तो चाहीए नाना का साथ देने वाला। नहीं तो वो हम सब को मार डालेगा।

**सुर्या** – ह्या नरकान तुमकां हांवें हाडलां आनी आयज एका चेडवाखातीर हांव तुमकां या नरकान सोडून स्वता बऱ्या मार्गान धावो. माका हें पटना. त्यापेक्षा हांव म्हज्या मोगाचो त्याग करपी. माका जितकी सुनिताची गरज आसा तितकीच तुमचीय. आयज बऱ्या मार्गान चलपाचो विचार आयला जाल्यार तो सगळ्यांक लागू जाता. हो मार्ग सोडलो जाल्यार सगळ्यांनी सोडपाचो.

**मन्या** – हय सुर्या, आमी सगळे नवो मार्ग धरुया. पूण त्याच्या पयलीं तुमचें लग्न. (बाबल्या आनी सुनिता येता. सुनिताच्या हातान गुलाब)

**सुनिता** – समीर, पळय कितलो सुंदर गुलाब. तूं सदां माका खंयचो गुलाब हाडी तें कळ्ळे म्हाका.

**बाबल्या** – दादा मी वयनीक सगळा पोरसु दाखयला पन काय सागूंक ना आ.

**सुनिता** – किदें ?

**मन्या** – का... काय ना वयनी, वयनी तुमच्या हाताक माती लागल्या .... हो....हो लेस

घेयात (बोलसात हात घलता, लेस काडटाना बोलसातले पिस्तूल पडटा. सगळे पिस्तूलाक पळयत रावता)

सुनिता – मन्या ?

मन्या – वहिनी......... हें खरें न्हय. हें त्या शेजारच्या चिंटूचें आमी ताजेवांगडा सदाच खेळटा......

करीम – हा भाभी यहाँ उसके साथ कोई खेलनेवाला नही ना...... इसलिए..... हम जरा उसके साथ..... ऐसेही.. साथ देते है.....ये उसकी है।

सुनिता – खोटे पिस्तूल तर तें ?

मन्या – हय...... तूमी येवच्यापयली तो हांगाच आशिल्लो. विसरोन गेलो.

सुनिता – खरेच कशें दिसता न्हय ? पळोपाकूय भय दिसता.

मन्या – हय वयनी आता भुरग्यांची कसली–कसली खेळणी येता न्हय ? आमच्या टायमार सगळे लाकडाचे, ना जाल्यार प्लास्टीकचे.

सुनिता – सारके.

सुर्या – सुनिता..... हांवेन म्हजो निर्णय घेतला. आमी बेगीनात लगीन जावया.

करीम – भाभीजान समीर ने हमे सबकुछ बता दिया है। तूम फिकर मत करो हम तूम दोनोंकी शादी धुमधामसे करेंगे।

बाबल्या – वयनी,मी तूमच्या लग्नाक होच टाय मारतलंय (सगळे हासता, शहनाई वाजता, ल्हवू ल्हवू काळोख )

## देखाव तिसरो – मंत्र्याचो बंगलो

(चौघुय नानाची वाट पळयत उभे आसा )

नाना – (मोबायलार उलयता) हें पळयात रामराव तुमच्या पेपरान जी खबर छापून आयल्या ती वाचल्या हांवेन. हय, हय तुमीं म्हणता ते बरोबर. खरें म्हळ्यार पेपरान जेन्ना हांव असल्यो खबरो वाचता तेन्ना माकाय खूप दुःख जाता. किदें घट्टा ह्या राज्यान, आयल्या दिसा मारामारी, खून हें सगळें आयकल्यार दोळे भरुन येता म्हजे. हय, हय हांव हातून जातीन लक्ष घालतलो. हय म्हजो हो Statement तूमी पेपरान हाडूं शकता. हय, हय O. K.

सुर्या – नमस्ते नाना.

नाना – सुर्या, आरे बाबा खंय तू इतके दिस ?आनी तूं लग्न झालो खंय ?

**सुर्या** – नाना तुमका कशें कळलें?

**नाना** – अरे बाबा तू आमचो मनीस मरें. आमच्या मनशाच्यो खबऱ्यो दवरच्यो पडटा. पूण सुर्या तूवेंन म्हाका लग्नाक आपोवंक ना मरे बाबा.

**सुर्या** – नाना..... हांवे लग्न त्या पद्धतीन करूंक ना. हांव पळून वचून लग्न जालो.

**नाना** – कळले, कळले म्हणजे मोगांन लग्न जालो तू?

**सुर्या** – हय, नाना.

**नाना** – तरी पूण सुर्या आयज तुज्या लग्नाक दोन म्हयने जाले. अेकदाय तुका माका येवन सांगू शें दिसलें ना? आनी तुका आपोवंक रखात तरी कितले धाडचें रें? तूं जाणां मरें माका तुज्याबगर जायना तें?

**सुर्या** – नाना....... हांव तेंच सांगपाक आयला...... हांव आता तसलीं कामां करचोना.

**नाना** – किदें ? परत एकदा सांग.

**सुर्या** – नाना हांव आनींक तसलीं कामां करचोना, हांवे सगळे सोडला.

**नाना** – सुर्या, अरे बाबा हो निर्णय घेवपाक तुका कोणी अधिकार दिलो?

**सुर्या** – म्हणजे किदें नाना, म्हजा जिविताचो निर्णय हांव घेवं शकना?

**नाना** – घे रे, तुका कोण आडयता. आतां हेंच पळय, तूं लग्न जालो, लग्न जावच्या पयलीं म्हाका विचारलें? ना, तुजोच निर्णय! लग्न कोणाकडे जावं तें म्हाका विचारलें ? ना, तुजोच निर्णय! आता तुवेन पयली रातूय मनयल्या आसतली ती मनोवच्या पयलीं म्हाका विचारले ? ना, तूजोच निर्णय! तुज्या जिविताचे निर्णय तुवेन स्वता घेवपाचें. पूण हें काम तुवें सोडप काय ना हो अेकूच निर्णय तू स्वता घेवं शकना!

**मन्या** – नाना, सुर्याक तुमीं आडाव नाका तुमका जाय जाल्यार आमी तिघुय तुमचीं कामां करतले. पूण सुर्याक वचूनी.

**नाना** – अरे वा ! वा ! बरो मरे दोळयान दोळे घालून उलयतां म्हजेकडे. इतलीं वर्सा मान वयर काडी नासलो तू. आतां पाखां फुटल्या रे बाबा तुका?

**करीम** – नाना, हमने आपको एक बार बता दिया है हम आपके लिए काम नहीं करेंगे, मतलब नहीं करेंगे।

**बाबल्या** – अहो माझ्या दादाक सुधारनी हो. त्याचा आता लगीन जाला. तेची घरान बायको आसा, माज्या सुर्यादादाक संवसार करूनी हो. मी तुमच्या पाया पडतंय. (पाय धरता)

नाना – अरे, अरे हे किदे करतां?(उठयता ) सुर्या ह्या तिघांकूय ह्या कामान तूवेनूच भितर हाडलेले आनी आयज पळय हेंच तुका ह्या कामानसून पैस दवरपाचो यत्न करता. कितलो मोग रे तुमचो सुर्याचेर, म्हजे दोळेय भरुन आयले. सुर्या, तुका याद आसा? तूवेन एकदा सांगलेले की हया सुर्याची किरणां सदांच म्हजेर आसतली म्हणोन....... सोडून दी. आयज त्या सुर्याक गीराण लागला. सांग सुर्या किदे थारायलां तुवेन?

सुर्या – नाना, हांवेन तुमकां पयलीं सांगला हांव हें काम आनींक करचोना. आनी हांकाय करूंग दिवचो ना. हांव जाणा नाना, तुमी भियेता कारण तुमचीं सगळी कारस्थानां म्हाकाच खबर आसा. पुण विश्वास दवरात हांव म्हजें तोंड उघडचो ना.

नाना – तूं तें चितू नाका रे बाबा, तूवेन तोंड उघडलें तरीय म्हजें कायचं वायट जावचें ना. चल, हांवे तुका मुक्त केलो.

सुर्या – खरेच नाना......

नाना – हय, आयच्यान तू स्वतंत्र झालो!

सुर्या – नाना, तूमचें उपकार.......

नाना – उपकार कसलें रें बाबा, तूं म्हाका भावा भशेन. आनी एका भावाक दुसऱ्या भावाचे बरेंपण चितचेच पडटा. चल, पूण माका विसरो मात नाका.

सुर्या – नाना, हांव आनीं तुमकां विसरतलो?

नाना – चल, बरो संवसार कर, केन्नाय म्हजी गरज पडल्यार सांग म्हाका, आनी.... (बोलसात हात घालता) हें घें.

सुर्या – नाना......... हें किद्याक ?

नाना – घे रे बाबा.......... लग्नाचो आहेर समज. चल बरो करून.

सुर्या – येता नाना.

नाना – यो, यो आनी बायलेक हावेन विचारला सांग.

सुर्या – बरें नाना येता. (वता)

नाना – येयात, येयात..... हलकट खंयचो. पयलीं म्हाका चाट्टालो, आतां बायलेक चाट्टा. (मोबायल लायता) हॅलो इन्स्पेक्टर डिकॉस्ता. आरे बाबा, हांव नाना उलयता, हें पळय सुर्याच्यो सगळे बंद आसलेल्यो फायलीं परत उक्त्यो कर. तूका आयकूंग येयना सारखें? हय, सुर्याच्यो. तेणी केल्ल्यो सगळयो भानगडी

उस्तीयात. पुरावे सोदात, मेळना जाल्यार तयार करात. आतां आनीक खंयचेच काम करूं नाकात. रात – दीस एक करात and arrest him, arrest him.... (हासता, ल्हवू – ल्हवू काळोख )

## देखाव चवथो – पुलीस स्टेशन

**इन्स्पेक्टर** – (फोनार) कळले, कळले... ना रे सायबा. काम इतके वाडला म्हणून सांगू तुका. तुजें आपलें बरें कोणाची कटकट ना. मारामारी खंयची ल्हान चोरयोच जाल्यार बरें आसा.... (हासता) आमीं मरता शहरान. चोरापरस गुंड चड हांगा. वयल्यान स्वताची खुर्ची वाटोवपाक लागोन मंत्र्याच्या म्हऱ्यान नंदीबैल कसो मान हालयत रावप. तेंची तकली धावता थंय आमीं धांवप. आमची परिस्थिती जाल्या कुत्र्याभशेन. तांच्यानी जाय तेन्ना शू म्हणप आनी आमीं धांवप... कंटाळो येयला हे ड्युटीचो. हय... हय.. बरें, चल दवरता फोन. (फोन दवरता. काय वेळान दुसरो नंबर घुंवडायता.) हॅलो... राघव हांवें सांगलेले काम जालें? हें पळय, ताच्या तोणांतल्यान जाय तेंच येवपाक जाय. किदें? आयकाना. त्याचो बापूय आयकतलो. जाय त्या बळाचो वापर कर. पूण तो वदपाकूच जाय आनी हें पळय... (हवालदार, सत्यवानाक धुकलून वडयता.)

**हवालदार १** – सायब, हो पळय हाडलो हाका.

**इन्स्पेक्टर** – तुका मागीर फोन करता. (फोन दवरता.)

**सत्यवान** – सायब, सायब माका किद्याक हाडला हांगा.... माजी कांयच चूक नासतना...

**इन्स्पेक्टर** – चूक नासतना हाडपाक तुका आमीं पिशें दिसतां...? काम ना आमकां...? बेकार असता आमी हांगा.. काय तुजे तोण पळोवपाची सवय जाल्या रें आमका?

**सत्यवान** – ना सायब... पूण

**इन्स्पेक्टर** – चूप (थापट मारता) फुडें उलोंव नाका. इन्स्पेक्टराच्या फुड्यान कसो उलोवपाक जाय हेंय खबर ना तुका? पोरु आठ दिस भितर उडयिल्लो याद आसा मरें?

**सत्यवान** – म्हजी चूक सांगची साणून तुमी माका मारीत आसात. या फावटी हांवेन खऱ्यानीच काय करुंक ना. हांवे मटको घेवपूय सोडलां....

**इन्स्पेक्टर** – हेंच चूकता तुमचें. तुमका जाय तेन्ना तुमी वायट कामां सोडटा आणि आमकां त्रास जाता. सोडपाचेच आसा जाल्यार वायट कामा सुरु करता किद्याक... मालकिरीयाद खंयचो.

**सत्यवान** – सायब हांव सुदरला....

**इन्स्पेक्टर** – सुदरप किद्याक म्हणटा तें जाणा रें तूं. कुत्र्याची शेपटी केन्ना सरळ जाल्ली पळयल्या तूवेन? आरे आमी तुमका हांगासून धाडटना तुमकां परत आपोवपाक लागुनूच धाडटा आनी तुमीं भायल्या भायर सुदरपाचो निर्णय घेतां.... सुदारला खंय.... सगळे जाण सुदरोंग लागले जाल्यार या जगान वायट कामां करतलो कोण? आणि वायट कामां सोपलीं जाल्यार आमका भिक मागपाची पाळी येतली.... सुदरोंग सोदता...

**सत्यवान** – सायब खरें सांगूं तुमका. हांव विटला म्हज्या जिविताक... स्वताच्या वायट परिस्थितिक लागोन आदार म्हणोन हांवेन वायट कामां सुरु केली खरी. पूण माका हे खबर नासलें की तोच आदार म्हज्या जिविताक एक दिस श्राप जातलो म्हणून... सायब, तुमका एक प्रस्न विचारुं? बरीं कामां केली तरी तिच वागणूक आनी वायट कामां केली तरी तिच वागणूक? मागीर बरी आनी वायट कामा हातून फरक किदें उरलो. सांगात सायब. सायब, उत्तर दियात म्हज्या प्रस्नाचें.

**इन्स्पेक्टर** – पूरो कर तुजें रामायण. अरे या कलियुगान तुमीं राम जावंक सोदूं नाकात. तुमीं रावण ते रावणूच उरतले. व्हर रे ह्याका आणि आमकां जाय ते सगळे हाच्याकडल्यान उलोवन घे. आयकना जाल्यार चामडी सोलून काड. चल व्हर. (हवालदार, सत्यवानाक घेवन वयता.) सगळेच सुदरोंग सोदता होच म्हुर्त मेळ्ळा सगळ्यांक... त्रास फुकटचो. जेन्ना पुरावे दोळ्यामुखार आसले तेन्ना दोळे बंद करपाक लायले. आनी आता खोटे पुरावे लागीं करप.... फायदो आसासर मनशांक घेवन नाचता. नाजाल्यार, पायपोंदा मस्तीता... हे मंत्रीच व्हडले गुंड.... हांकाच पयलीं फारान मारुंक जाय... (फोन वाजता.) हॅलो... हॅलो सर, हांव तुमचीच याद काडी... ना सर.... जातले सर.... सर काम चालू आसा.. सर तुमी काळजी करुं नाकात... तुमकां जाय तशेंच जातलें.... येस सर, ओके सर... (फोन दवरता) सामकोच फाटल्यान लागलां. (हवालदार येता.)

**हवालदार२**– सायब, ही फायल...

**इन्स्पेक्टर** – (फायलीचेर नदर मारीत) व्हेरी गुड, गाडी भायर काड आनी सगळ्यांक घे.. आयज व्हडले मिशन पूर्ण करपाचे आसा.... (ल्हवू – ल्हवू काळोख.)

## देखाव पाचवो – घर

(सुर्याचो मोबायल वाजता. भितरल्यान सुनिता येता. सुनिता साडी नेसला, गळ्यान मंगळसूत्र )

**सुनिता** – हॅलो.... ते बाथरुमात... कोण जाय म्हळे तुमका... सुर्या? सॉरी रॉंग नंबर. (मोबायल दवरुन वचपाक. इतक्यान परत वाजता.) हॅलो... कोण? हे पळयात हांगा सुर्या म्हणोन कोण ना. हो समीराचो मोबायल. हय. आता मोबायलारुय रॉंग नंबर येवपाक लागले. (मोबायल दवरता. इतक्यान सुनिताक ओकाऱ्यो येता. तशेच भितर धावता. सुर्या माथे पुशीत येता.)

**सुर्या** – सुनिता म्हजे न्हावन जाले. चा हाड बेगीन. लग्न जाल्ल्याक चाची गोडी लागल्या आनी लागची नाय किद्याक? सुनिताचो स्वभाव जितको गोड तितकीच ताच्या हातची चा गोड. पयली फकत बीयर, व्हीस्की हांचीच चव बरी लागताली. पयली कळिल्लें की लग्न जावन म्हज्यान इतको बदल जातलो म्हणोन. जाल्यार हांव बेगीनाच लगीन जावपाचो.... सद्या नोकरी खंय मेळटा जाल्यार पळोवपाक जाय. नाजाल्यार ल्हानसो धंदो तरी करपाचो. (सुनिता येता.) अरे हे किदें? तुज्या हातान चाचे कप ना?

**सुनिता** – अरे, सॉरी विसरलेच... हाडटा आ.

**सुर्या** – (हाताक धरुन ओडीत) सुनिता राव. किदें जाला?

**सुनिता** – काय ना.

**सुर्या** – किदें तरी जाला. तूं आपल्याभितरच आसा. किदें जाला?

**सुनिता** – खऱ्यानीच... काय ना.

**सुर्या** – सुनिता, किद्याक लिपयता म्हजेकडे. सांग किदें जाला ते?

**सुनिता** – काय ना, म्हाका तुमका किदें सांगपाचें आशिल्लें.

**सुर्या** – सांगपाचे आशिल्ले? किदें, सांग मगो.

**सुनिता** – समीर... हांव तुमका मोगाची अेक भेट दिवपाक सोदता.

**सुर्या** – जेन्ना तुंवेन तुजो हात म्हज्या हातार दवरलो तेन्नाच माका तुज्याकडव्यान

सगळे मेळूळे. याच्यान व्हडली भेट आनी किदें आसूं शकता?

**सुनिता** – फकत हातान हात दिलो म्हणून जायना. खरो संसार फुडे आसता. झाड रोयतकूच ताका फळां येता...

**सुर्या** – म्हणजे?

**सुनिता** – लगीन जाल्या उपरांत संसाराची जी पयली पायरी आसता त्या पायरेचेर माका तुमकां व्हरपाचें आसा. समीर... तुमकां प्रमोशन मेळपाचे आसा.

**सुर्या** – तूं किदें म्हणटा तें कळना म्हाका?

**सुनिता** – कळोंग ना? हांव तुमकां तें दितलें जें सगळीं बायलां लग्न जाल्या उपरांत आपल्या संसाराक दितात.

**सुर्या** – पूण किदें?

**सुनिता** – आजून कळोंग ना. असो कसो रे मुर्ख तूं?

**सुर्या** – तू कोड्यान किद्याक सांगता. सारके सांग मगो.

**सुनिता** – अरे पिश्या, हांव (लजता) हांव... (मन्या धावोन येता. हातान पिस्तुल.)

**मन्या** – सुर्या... सुर्या... नानान आमचो घात केलो. पोलीस आमका ॲरेस्ट करपाक आयल्या.

**सुर्या** – किदें?(सुर्या भितर धावता.)

**सुनिता** – मन्या किदें जाला?

**मन्या** – नाका वयनी. माका कायच विचारुं नाका. खरें तुमका आयकूंक जावचे ना. आनी फटींग हांव तुमकां सांगूंक शकाना.

**सुनिता** – अरे पूण...

**मन्या** – वयनी वेळ कमी आसा.(मन्या भायर धावता. सुर्या पिस्तुल घेवन येता. सुनिता सुर्याच्या हाताक धरता.)

**सुर्या** – सुनिता हांव जाणा तूं किदें विचारुंक सोदता. हांव सगळे सांगता तुका. पूण आता न्ही. आता म्हजेकडेन वेळ ना. आनी.... आनी तू मात्से भितर राव.

**सुनिता** – हांव भितर वचचे ना. किदें चलला तें म्हाका आदी कळूंक जाय.

**सुर्या** – सुनिता म्हजें आयक. भितर वच. हांव तुका सगळे मागीर सांगता.

**सुनिता** – हांव भितर वचचें ना.(मन्या येता.)

**मन्या** – सुर्या तू वयनीक घेवन फाटले वाटेनसून चल.

**सुर्या** – आनी तूं?

**मन्या** – हांव फायरींग करुन पुलीसांक थारावन दवरता. तू वयनीक घेवन चल.

**सुर्या** – ना मन्या. हांव तुका अेकटो सोडून वचचो ना.

**मन्या** – सुर्या, म्हजो विचार करुं नाका. वयनीचो विचार कर. धाव तिका घेवन पयस खंय तरी.

**सुर्या** – अरे पूण तूं...

**मन्या** – हांव येता फाटल्यान. हावूय तुज्यावांगडा आयलो जाल्यार ते फुडे येतले. हांव तांका थांबयता. तोपर्यंत तू वयनीक घेवन पयस वच.

**सुर्या** – पूण मन्या हांव रावतलो तुका... (सुर्या सुनिताक घेवन धावता. मन्या भायर वयता. फायरींगचो आवाज)

**बाबल्या** – मन्या ऽ ऽ ये मन्या काय जाला? तुजा रगत येता.

**मन्या** – बाबल्या, माका कायच जावंक ना. तू चल, करीम अेकटो आसा. हांव येता. बाबल्या चल. (करीमाक गुळी लागता. करीम भितर येवन पडटा.)

**करीम** – या अल्ला.(बाबल्या धावत करीमाक घट धरता.)

**बाबल्या** – ये करीमदादा दोळे उगड.(मन्या फुढ्यान येता.) ये मन्या बघ, आमचो करीम काय बोलनय.

**मन्या** – करीम, ये करीम. बाबल्या करीम गेलो.

**बाबल्या** – (रडटा) करीमदादा ऽ ऽ हे मन्या आमचो करीम गेलो. मी सोडचंय ना त्यांका.(बाबल्या नेटान भायर धावता. मन्या त्याच्या फाटल्यान धावता.) आवशे ऽऽ

**मन्या** – बाबल्या ऽ ऽ (बाबल्या मरता. मन्या फायरींग करता पूण गुळी लागून पडटा. पुलीस आनी हवालदार येता.)

**इन्स्पेक्टर** – पळलो आसतलो. चड पयस वयचो ना. कम ऑन, फॉलो मी. (सगळे सुर्याच्या दिशेन वयता. ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## देखाव सवो - झाडां-झुडपां

(सुर्या सुनिताक घेवन धावत येता, सुनिता हात सोडटा)

**सुनिता** – खं य व्हरता म्हाका?

**सुर्या** – सगळे सांगता. पूण आमीं आनींक फुडें या.

**सुनिता** – हांव आनींग फुडे येवचेंना. कोणांक भियोन धावतां आमीं... आनी किदयाक?

सुर्या – सुनिता हो जागो आमचो घात करू शकता हांगा कांयच विचारूं नाका .आमी सुरक्षित जाग्यार या. हांव तूका सगळें सांगता.

सुनिता – ना माका कळूंकूच जाय आमीं कोणांक भियोन धावतां तें.

सुर्या – पोलिसांक.

सुनिता – याच प्रस्नाचे उत्तर जाय माका? किदें चल्ला हें सगळे? पोलीस तुका किदयाक धरूंक आयल्या... अशें किदें केला तुवेन म्हणून पोलीसांक भियोन धावपाची पाळी आयल्या... आनी हें पिस्तुल, तूजें नांव..... खरे सांग कोण तू ?

सुर्या – सुनिता तुज्या ह्या सगल्या प्रस्नाच्यो जापो हांव तुका लग्न जावच्या पयलीच दिवंक सोदतालो पूण नशीबान चान्सूच दिवंक ना. आयज तूका हांव सगळें खरें – खरें सांगतलो. सुनिता, हांव अेक गुंड. हावें आयजमेरेन कितलीं पापां केल्या हाचो हिशोबूच ना. कितल्या जाणांक तांच्या सामानासकट घराभायर धांवडायल्या.... कितल्याश्याच जाणांचेर बळाचो वापर करुन तांचे तांका पांगळे केल्या आनी कितल्याश्याच जाणांच्या कुडींतल्यान या पिस्तुलातल्यो गुळयो पासार जावन कितल्याश्याच जणांक मरणावाट दाखयल्या.

सुनिता – किदें ?

सुर्या – हय, हांव अेक गुंडच न्हय तर अेक खुनीय आसा. म्हज्या या हातान कितल्या जाणांक जिवितांतल्यान उठयला म्हाकाच याद ना.

सुनिता – समीर ?

सुर्या – आनी म्हजे नाव समीर न्हय, हाव सुर्या, गोयचो अेक नावाजलेलो गुंड सुर्या.

सुनिता – किदें? म्हणजे... म्हणजे.... तू तो सुर्या ?

सुर्या – हय. हांवूच तो सुर्या.

सुनिता – ना... ना म्हाका या सगळ्यांचेर मातलेगीत विस्वास ना..... अेकदाच, अेकदाच सांग तू फट उलयता म्हणून.

सुर्या – सुनिता आयज हांव जे सांगता तो शब्दान शब्द खरो.

सुनिता – किदें?

सुर्या – हांव जाणा, हें सत्य तुका सहन जावचें ना. पुण तरी हें सत्य तुका आयज सहन करचेंच पडटलें. सुनिता, आयजमेरेन हांवे जी वायट कामां केल्यात ती फकत पैशाखातीर. होच म्हजो धंदो आनी जगपाचो आदार. बापूय आसलो

पूण आसून नासल्यासारकोच. नुस्त्याच्या बाजारात प्लास्टीकच्यो पोतयो विकून म्हजें दुयेंत आवयचे हांव पोट भरी. पुण पोतयो विकून मेळील्ल्या पैशानी तिचेर उपचार करप शक्य जालें ना. जेन्ना आवय सोडून गेली हांवे तेन्नाच थारायलें. वायट काम जाव पूण हातान पैसो घोळटोलो अशें किदें तरी करपाचे. आनी तेन्नाच्यान हांवेन ल्हान मोठ्यो चोरयो, मारामारी करपाक सुरवात केली. आनी ज्या दिसा तू म्हज्या जिवितान आयलें म्हजें जगूच बदललें. जिवितान नवी वाट दिसपाक लागली. म्हजो असो कोण तरी आसा जाचेकडे हांव मोग करतालो.... जाका चंद्रार व्हरतलो... नक्षत्रां ताच्या पदरान घालतलो अशें एक सुंदर सपन मनान घर करुन गेलें. पूण हें सपन साकार करपाक माका ह्या चिखलांतल्यान पाय काडपाचो आशिल्लो आनी तेखातीर हांवे यत्नूय केल्लो. पूण कायच फायदो जालो ना. पापाक हांवे सोडले पुण पापांनी माका सोडलो ना.

**सुनिता** – आनी.... आनी.... मन्या, करीम, बाबल्या...

**सुर्या** – तेय म्हज्याभाशेनूच गुंड. ते जिविताक विटलेले. आनी हांव दुसऱ्यांच्या जिविताचेर खेळटालो. हांवेन तांका दुसऱ्यांच्या जिवितावांगडा खेळप शिकयलें.

**सुनिता** – आनी हें सगळें तूं माका आता सांगतां? म्हज्या गळ्यान मंगळसूत्र घालून जाल्या उपरांत?

**सुर्या** – हांवे तुका कितलेशेच फावट सांगपाचो यत्न केलो. पूण नशिबान केन्नाच साथ दिवंक ना. आनी एकेवाटेन भंयूय दिसतालो कि तूं हें सगळें आयकून माका सोडून वचत म्हण.

**सुनिता** – तुजो भय खरो आसलो.

**सुर्या** – सुनिता?

**सुनिता** – अरे किदें मेळयले तूवेन माका फटोवन. हांवे कितलो विस्वास दवरलो तुजेर. तुज्याखातीर म्हजें घर, नातें... सगळे सोडून आयले हांव फकत तुज्यावांगडा संसार करपाक. पूण हांव संसार करी एका गुंडा, खुन्या वांगडा? म्हज्या माथ्यान सिंदूर भरचे साणून रगत भरले तूवेन.

**सुर्या** – (हात लायत) सुनिता म्हजे आयकून घे.

**सुनिता** – हात लाव नाका म्हाका. म्हाका स्वताचीच आता विट एवपाक लागल्या. एका गुंडा, मवाली, खुन्याकडेन हांवेन मोग केलो, लगीन जाले, ताचे नाव

लायले आनी स्वताच्या कुडीक ताच्या स्वाधीन केलें, माका म्हजीच विट दिसता.

सुर्या – सुनिता?

सुनिता – वगी बस. (थापट मारता.) म्हजे नावलेगीत घेवं नाका. माका दिसलेंलें आयचो दिस मज्या जिवितांतलो सगळ्यान खोशयेचो दिस म्हण. कारण... कारण... आयजूच माका कळील्लें की हांव... हांव.. आवय जावपाची आसा म्हण.

सुर्या – किदें?(खोशी जाता) सुनिता...

सुनिता – व्हदळ हांव तुका हेंच सांगपाक सोदतालें, की आमच्या मोगाचो कोंब म्हज्या पोटान रुजपाक लागलां म्हण. हीच ती भेट हांव तुका दिवपाक सोदतालें. पूण आतां थारायला हांव तुका ती भेट दिवचें ना. हांव या कोंबाक वाडपाक दिवचे ना. या जगान आर्नीक अेक पापी जन्माक येवचो ना.

सुर्या – ना... सुनिता तूं अशें करचें ना. तुजो म्हजेर राग न्ही? मागीर म्हाका मारुन वडय. घे... घे... घे हे पिस्तुल... (सुनिताच्या हातान दिता.) घे मार. मारुन वडय म्हाका. पूण जो जन्माकूच येवंक ना ताका मारुं नाका. हें जग ताका पळोवनी सुनिता.

सुनिता – आनी किदें पळोवनी? आपल्या खुनी बापायक? हांवेन तुजेकडेन मोग करुन माका तुजी वीट अेवपाक लागल्या. मागीर ताका तुजी कितली तिडक येतली? हांव म्हज्या भुरग्याक ताचो बापूय दाखोवचें ना.

सुर्या – सुनिता तशें तूं कायच करचें ना.

सुनिता – म्हजो निर्णय जाला.

सुर्या – कितलें घट्ट काळीज तुजें. तुज्यान मातूय काकुळ ना? तूं स्वतः आपल्या भुरग्याक मारुंक सोदतां?

सुनिता – म्हजे काळीज माका घट्ट करचेंच पडटलें. आनी हांव म्हज्या भुरग्याक अेकटे धाडचें ना. ताच्यावांगडा हांवूय वयतले. कारण जोमेरेन हांव आसा तोमेरेन म्हज्या शरिरान पापी मुळा, रगत, शिल्लक आसतले. त्याखातीर म्हजोय अंत जावंक जाय. (सुनिता स्वताचेर गुळयो मारता.)

सुर्या – सुनिता... सुनिता.... (घट्ट धरता) सुनिता किदें केले तुवेन हें. तूं माका सोडून वचूं शकना. म्हज्या पापाची शिक्षा तुवेन स्वतःक किद्याक दिली

सुनिता... (रडटा. इतक्यान पुलीस येता)

**इंस्पेक्टर** – अरेस्ट हीम. (हवालदार बेडी सुर्याच्या मुखार दवरता. सुर्या बेडयेक पळयत रावता. ल्हवू ल्हवू काळोख.)

## देखाव सातवो – कोर्ट

(जुवीज मदीं बसला. सुर्या आरोपीच्या पांजऱ्यान.)

**जुवीज** – या कोर्टान दोनूय आदोवगादांच्यो बाजू आयकल्या उपरांत हो कोर्ट या निर्णयाचेर पावलां, की सुर्याकांत उर्फ सुर्या हो एक गुंड प्रवृतीचो मनीस आसून आयजमेरेन ताचेर सगळे मेळून पंचवीस आरोप आसात. हातून मोडतोड, मारामारी, फटींगपणां तशेंच सात खुनाचे आरोप आसात. पुरावे तशेच आय व्हीटनेस कोर्टान हाजीर करुन सगळे आरोप सिद्ध जाल्ले आसात. शेवटाक हो कोर्ट सुर्याकांत उर्फ सुर्या हाका आरोपी मानून ताका इंडियन पिनल कोडची ३२०, ३१० आनी ३०२ हीं कलमां लागूं करता. सुर्याची सजा सांगचे पयलीं हो कोर्ट सुर्याक ताचे मन उक्तें करपाची संद दिता. सुर्या, तुजेर आशिल्ले सगळे आरोप सिद्ध जाल्ले आसात. निमणें तुकां किदें सांगपाचे आसा?

**सुर्या** – सर, आयज ह्या कोर्टान म्हज्या जिवितांतली सगलीं पापां म्हज्या म्हऱ्यान हाडून दवरलीं. एका आदवोगादान माका वाटावपाचो यत्न केलो जाल्यार दुसऱ्यान माका आरोपी थारावपाचो हट्ट धरलो. काय खरे काय तर खोटे पुरावे आनी चेहरे मुखार दवरले. पूण हांव म्हणटा, हें नाटक किद्याक? हांव स्वत: मरणाक वेंग मारपाक तयार आसा. हांव हे तेन्नाच करतलो आसलो जेन्ना म्हजे इश्ट आनी सुनिता म्हाका सोडून गेलं. पूण स्वत:क काबार करपाक तुमच्या कायद्यान माका वेळूच दिवंक ना. तुमच्या कायद्यान माका दवरलां. दूख करुन–करुन मारपाक. सर, माका जगपाचें ना. माका बेगीन फाशी दियात. माका फाशी दियात. एकाच गजालीचें वायट दिसता. हांव पाप करीत रावलो म्हणून आयज तुमच्या मुखार एक पापी म्हणून उबो आसा. पूण जाणें आमचेकडल्यान हें सगळें करुन घेतलें तो म्हजेभाशेन पापी आसुनूय जगाखातीर तो देवूच उरलो. आयज म्हज्याबरोबर तोय हे चौकटीन गुन्यावकारी म्हणोन उबो ना. कारण, कायदो हो फकत बारीक लोकांखातीर आसता. जर खरेंच तुमच्या कायद्याचें हात लांब आसात

जाल्यार सोदून काडात या जगातले खरें गुन्यावकार. जें म्हज्यासारख्या गुंडांक जल्म दितात. तांकां स्वताच्या फायद्याखातीर जनावरांभाशेन पोसतात. सोदून काडात असल्या राकेसांक आनी तांका पयली फासार चडयात. जेन्ना खऱ्या राकेसांचो अंत जातलो तेन्नाच म्हज्यासारख्या सुर्यांचो अंत जातलो.

**जुवीज** – या कोर्टांत सुर्यकांत उर्फ सुर्या हो अेक आरोपी म्हण सिद्ध जाल्लो आसा तेन्ना इंडियन पिनल कोडच्या ३२०, ३१० आनी ३०२ या कलमाच्या आदाराचेर हो कोर्ट सुर्याक फाशीची सजा फर्मायता. He is to be hanged till death. (सुर्या मोठ्यान हासता. सायडीक फास दिश्टी पडटा. सुर्याची नदर फासाचेर. निवेदन सुरु.)

**निवेदन** – हें नाटक सत्य घटनेचेर आदारीत नासलें तरी हातुंतली घटना घडूंग शकना अशी ना, जांव सद्या घडना अशी न्हय. सुर्या सारके गुंड आमच्या जगान जल्म घेत आसता... एक सुर्या गेलो जाल्यार ताच्या फाटल्यान रोकडोच दुसरो तयार जाता. एका फाटलयान एक सुर्या येत रावता. ही माळ कोण तयार करता? आम्चो समाज, परिस्थिती, काय नाना सारखे मंत्री... जे स्वताचें राजकारण चलोवपाक लागून दुसऱ्यांच्या जिविताकडेन खेळता. स्वताची खुर्ची सांबाळपाक लागून दुसऱ्यांक मरणावाट दाखयता. स्वता बुरशें राजकारण खेळप आनी सुर्या सारकिल्ल्याक चिखलान हाडून दवरप. कायमचो.... जातुंतल्यान कोणूच भायर सरुंक शकना... भायर सरपाचो यत्न केलोय जाल्यार, परतून तोच चिखल ताच्या आंगार उसळ्ळो. जसो या सुर्याचेर उसाळलो... प्रत्येक मनशाक जर स्वताचे जिवित जगपाचो अधिकार आसा जाल्यार सुर्या आपले जिवित किद्याक जगूंग पावलो ना? प्रत्येक मनशाक संसाराचें सपन रंगोवपाचे अधिकार आसा जाल्यार सुर्याचें सपन अर्धकुटें किद्याक उरलें? आनी प्रत्येक वायट मनशाक जर सुदरपाचो अधिकार आसा तर सुर्याक हो अधिकार किद्याक मेळ्ळो ना?
ह्या सगळ्या फाटल्यान अेकूच प्रस्न उबो रावता, खरो गुन्यावकारी कोण? सुर्याची परिस्थिती, ही समाज, नाना सारके मंत्री, काय स्वता सुर्या.....?



## श्री सातेरी कला मंदिर, कार्मीभाट, मेरशी

'अॅरेस्ट हिम' ह्या नाटकाच्या पुस्तकाचें उक्तावण ९ नोव्हेंबर २००३ ह्या दिसा दक्षिण गोंयचें खासदार भौ. रमाकांत आंगले हांचे हस्तुकी कार्मीभाट, मेरशी हांगासल्ल्या श्री सातेरी नाट्य मंडपात जालें.

ह्या वेळार ज्येश्ट नाटककार आनी गोवा कोंकणी अकादमींचे अध्यक्ष भौ. पुंडलिक नारायण नायक हांणी नाटकाविशींचे विचार उक्तायलें.

ज्येश्ठ नाट्यकर्मी भौ. रविंद्र आमोणकर, थळाव्यो आमदार भौ. श्रीमती व्हिक्टोरिया फर्नांडीस ह्यावेळार मुजरत उपस्थित रावन नाटकाक आनी बरोवपी महेश चंद्रकांत नाईक हांका परबीं दिली.

उपरांत श्री सातेरी कलामंडळ, मेरशीच्या वांगड्यांनी ह्या नाटकाचो प्रयोग सादर केलो.



WORLD KONKANI LIBRARY

Accn No: 001166





महेश चंद्रकांत नाईक

महेश चंद्रकांत नाईक या उमेदी तरनाटयाचे तिसरे नाटक, कानाक सुखावपी, मनाक ARREST करपी. हांवे ते फकत वाचला पळोंवक ना. पूण एकदा हातान धरील्लें पुस्तक वाचप जातकुच सकल दवरला. आपले तत्वगिन्यान लोंकांक सांगपा खातीर महेशान भापणबाजी करुं येताली पूण तशें न करपाचो ताणें संयम पाळला. आपल्या शिक्षणाचो विशय तत्वगिन्यान (Philosophy) आसूनूय ताणें हे पथ्य पाळ्ळां ही तोखणायेची गजाल.

भास अलंकारीत साहित्यिक आसल्यार नाटक बरें जाता अशें ना. नाटकातली भास चड करुन उलोवपाची भास आसूक जाय. नेणार प्रेक्षकांक लेगीत ती समजूक जाय. महेश वापरता ती भास सर्वसादारण कोंकणी मनशाच्या तोंडातली आनी संवादातली ताची वाक्या सादी सोपी सुटसुटीत अशी. नाटकांतली भास नाटककराची भास आसूंक फावना. पात्राप्रमाण ती बदलूंक जाय. ह्या नाटकांत सूर्याची भास वेगळी, सुनीताची वेगळी, करीमाची वेगळी. प्रसंगानुसार लेगीत ताची भास बदलता. केन्ना केन्ना ताची उतरा सवकास चलता, केन्ना केन्ना धांवता. नाटकांतलो अेक देखावो बरो आसले म्हण जायना. सगळया देखाव्यांचो संवादाचो निमाणो अेकूच अेक प्रभाव प्रेक्षकांच्या मनार पडूंक जाय. **अॅरेस्ट हिम** ह्या नाटकांत तो तसो पडटा अशें माका दिसता.

**अॅरेस्ट हिम** ह्या नाटकांत महेश चंद्रकांत नाईक प्रेक्षकांची मना रिझयता, तांका केन्ना हांसयता. पूण तांची मनां अस्वस्थ करता. समाजीक प्रस्न सोडवप हो नाटककारांचो धर्म न्हय. पूण ते प्रस्न प्रभावी तरेन मांडून तांची काळजां हालोवन तांका विचार करुंक लावप हें तांचें एक काम. महेश हाणे आपल्या नाटकांत हें काम प्रभावीपणान करुन दाखयलां. आपल्या बरोवपांतल्यान आनी दिग्दर्शनातल्यान ताणीं जिविताचे जें दिग्दर्शन

डॉ. मनोहरराय सरदेसाय